# जाग

वर्स ३६ : आंक २ : सप्टेंबर, २००९



* संपादपी
माधवी सरदेसाय
(मोबायल: ९४२११५७००७)

संस्थापक



रा. सुमंत केळेकार

* उजवाडावपी
डॉ. जयवंत भा. सरदेसाय

* छापपी
हिरू नारायण नायक
रुतू ऑफसेट प्रिन्टर्स,
वळवय, फोंडें-गोंय.

वर्सुकी पटी : रु. १५०/-
विद्यार्थ्यां खातीर : रु. १२५/-
तीन वर्सांची पटी : रु. ४००/-
पटी मनी ऑर्डरीन वा बँकेच्या मडगांव फांट्याचेर काडिल्ल्या ड्राफ्टान धाडची. ड्राफ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.

वेव्हाराचो नामो :
जाग म्हयनाळें
२०१-बी, सालदॅल अपार्टमॅन्टस्
रूअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव - गोंय ४०३ ६०१.

किरकोळ आंकाचें मोल : रु. १५/-

jaag04@yahoo.co.in

## ह्या आंकांत :





'ज्या काळार मराठी, कन्नड सारकेल्या कोंकणी भोंवतणच्या हेर भासांनी काव्याची निर्मणी जाताली - गोंयच्या गोंयांतूच 'श्रीकृष्ण-चरित्रकथा' सारकेलें मराठी काव्य तयार जातालें – त्या काळार कोंकणी काव्याचे वाटेक लेगीत वच नासतना गदयाची निर्मणी करपांत गुल्ल आशिल्ली अशें मानतलीं जाल्यार आमच्या हातांत आयचे घटकेक आसा तो सोळाव्या शेंकड्यांतल्या रामायण, महाभारताच्या रोमी लिपयेंतल्या हातबरपांचो आधार उणो पडटा अशेंच म्हणचें पडटलें...'





'एका सांजवेळा हॉटेलाच्या आंगणांत बाकीबाब एका तरणाट्याच्या खांदार हात घालून पासयो मारीत गजाली करतना लक्ष्मण माने हांणी पळयलें. उपरांत तांणी कांय जाणांक सांगलें, 'तुमी भाग्यवंत! एक व्हड साहित्यीक तुमकां इतलो सांगात दिता. आमच्या महाराष्ट्रांत अशें घडना...'






'लेखकाचो जल्मगांव माजाळी-कारवार. भुरगेपणांत लेखकान रान माडडयलां. येल्लापुरच्या अंटग्या रानांत ते कांय वर्सां आशिल्ले... सैन्यांत आसतना दोंगराळ वाटारांत भोंवपाचे, वाट चुकून शेणपाचे अणभव तांच्या वांट्याक आयल्यात. ही सगळी फाटभूंय आशिल्लो लेखक आपली अनुभुती हांगा कसाक लायता. सादे सुटसुटीत काव्यात्मक भाशेच्या बळार तो *अरण्यकांडा*तलें रान उबें करतात...'






'व्यक्तीवादाचेर आदारिल्ले अमेरिकी जिणेंत चोंब्या खातीर, देशा खातीर जगपी लोक आसा. ल्हान आसूं, पूण कुरकुटांत पेटपी मनीसकायेची पणटी आसा! म्हाका अप्रूप दिसलें. संगिताचे सूर बदल्ले. सगळे लोक उठून उबे रावले. हात काळजार दवरून जण एकलो गावंक लागलो. राष्ट्रगीत आसुंये, हांवें अदमास केलो. राष्ट्रगीत सोंपलें. जयजकार ना. 'अमर रहे' ना... सगळें परतून आशिल्लें तशें...'






'*अच्छेवा*च्या माध्यमांतल्यान पुंडलीक नायक हांणी कोंकणी भास, साहित्य आनी संस्कृतायेचें मळ व्हड केलां. कादंबरेंतलें वातावरण फकत मनोरंजनाचो घटक म्हण येना. तें जिवें तट्टटीत जावन उबें रावता. तातूंतल्यान घडणुको फकत कपयाळीं म्हण येवंक नात. कथानकाचो वेगळावं नजो असो वांटो म्हण त्यो आयल्यात. देखून *अच्छेव* सपनांनी रंगपी जगपी वा सपनांनीच सोंपपी कादंबरी जायना. *अच्छेव* अस्वस्थ करता हें तिचें खाशेलपण...'

*ते भायर*



चित्रां...
भायलें चित्रः
अमेय प्रभुदेसाय

पान : २१
: आसावरी नायक

पान : २८
: अदिती नायक

## नदर संपादप्याची

# लिखीत कोंकणी साहित्याचो लिखीत इतिहास : आसडून फांफडून सरी करतना...

**१५**१० वर्सा पुर्तुगेजांचो गोंयचेर शेक सुरू जालो. उपरांत ह्या वाटारांत धर्मप्रसाराचो वावर करूंक आयिल्ल्या येवरोपी मिशनरी पाद्रींनी कोंकणीचो अभ्यास करून हे भाशेच्यो द्विभाशीक उतरावळी तयार केल्यो, तिचीं व्याकरणां रचलीं. मुखार धर्मीक गद्य बरपावळीची तांणी कोंकणींत निर्मणी केली.

पूण, हें सगळें घडचे आदींय कोंकणी लिखीत साहित्याची भास आशिल्ली व्हय?

— कोंकणी मनशाक पडिल्लो सभावीक प्रस्न.

कांय जाणकार म्हणटात, आशिल्लें; पूण पुर्तुगेजांनी लासून उडयल्ल्यान तांची आयज कसलीच कुरू उरूंक ना. जे. जेर्सन दा कुन्य, नागेश सोंदे, ओलिव्हीन्य गोमिश् ह्या मत्ताचे अशें आमच्यांनी म्हणूं येता.[1]




थळावे भाशेंतल्या बरपांनी मुर्तीपुजेचो धर्म भरला आसतलो ह्या भंयान पुर्तुगेजांनी हाताक मेळटा तितलेंय थळावे भाशेंतलें साहित्य लासून उडयलें हे कुन्य रिव्हारांले म्हणणेचो आधार हे जाणकार मुखेलपणान घेतात.[2]

हेरांच्या मत्तान, पुर्तुगेज येवचे आदीं कोंकणींत लिखीत साहित्याची परंपरा नाशिल्ली. वि. बा. प्रभुदेसाई, सुमित्र मंगेश कत्रे, सुनीतिकुमार चटर्जी, प्रताप नायक आनी मॅथ्यू आल्मेयदा हें मत्त उखलून धरतात अशें आमच्यांनी म्हणूं येता.[3]

शणै गोंयबाब हांगा दुबावाक सुवात दवरतात. ते बरयतात, 'आमगेली पुस्तकी सरस्पत... सोळाव्या शेंकड्या आदीं आसली कि ना हें म्हज्यान सांगुं नज. परंत ह्या शेंकड्यांत अेवरोपी पाद्रिंनी तिका फुडें काडली हे आमचेर तांचे मोटे उपकार जाले.'[4]

पुर्तुगेज गोंयांत पावचे आदींय कोंकणींत लिखीत साहित्याची परंपरा आशिल्ली हें मत्त मांडटना जाणकार पुर्तुगालच्या ब्रागा शारांतल्या आर्कायव्हजांत आशिल्ल्या ७७१ आनी ७७२ आंकड्यांच्या सोळाव्या शेंकड्यांतल्या[5] दोन हातबरपांचो आधार घेतात. हीं दोनूय हातबरपां रोमी लिपयेंत आसात.

हांतल्या ७७१ आंकड्याच्या ८३९ पानी हातबरपांत, प्रताप नायक सांगतात ते प्रमाण, महाभारताच्या धा पर्वांतल्यो ६९ काणयो, रामायणाच्या एका अर्दकुट्या पर्वांतल्यो तीन काणयो आनी हेर चार मेकळ्यो काणयो आसात. महाभारताच्या कांय पर्वांनी विस्ट्णुदासु नामा, चांग निवृत्ती आनी नामदेव हांच्या नांवांचो उल्लेख येता. ७७२ आंकड्याच्या ४५३ पानी हातबरपांत रामायणाचीं पंदरा पर्वां, महाभारताचीं तीन पर्वां आनी हेर चार मेकळ्यो काणयो आसात. महाभारतांतल्या कांय काणयांनी विस्ट्णुदासु नामाचें नांव आयिल्लें पळोवंक मेळटा. दोनूय हातबरपांतल्यो काणयो गद्यांत आसात.[6]

सोळाव्या शेंकड्यांतलीं हीं हातबरपां आज कांय प्रमाणांत संपादीत (संस्कारीत) रुपान आमकां वाचूंक मेळटात. ह्या हातबरपांतलें 'आदि पर्व' सगळ्यांत पयलीं, १९८८ वर्सा, लुर्दीन रुद्रीगिश हांणी आर्विल्ल्या रोमी (कोंकणी) बरपाचे नेम वापरून वाचप्यांच्या हातांत दिलां. उपरांत रुद्रीगिशांच्याच मूळ संशोधनाचो पालव घेवन ७७१आनी ७७२ आंकड्यांच्या हातबरपांतल्या 'आदि पर्वा'चे कच्चे आनी निवळायल्ले प्रतीच्या आधारान प्रताप नायक आनी सांगात्यांनी १९९० वर्सा 'आदि पर्व' देवनागरी लिपयेंत उजवाडा हाडलां. ओलिवीञ्यु गोमिश हांणी ७७२ आंकड्याच्या हातबरपांतल्या रामायणाची देवनागरींत पुर्नबांदणी करून १९९६ वर्सा ती उजवाडा हाडल्या आनी पुस्तकाक *१६ व्या शेंकड्या आदलें कोंकणी रामायण* अशें नांव दिलां.[7]

बाग्राच्या आर्कायव्हजांत सोळाव्या शेंकड्यांतलें गोंयांतलेंच आनीक एक हातबरप मेळ्ळां. ह्या ७७३ आंकड्याच्या ५६७ पानी हातबरपांत सुमार १३,००० ओंवयांनी बरयल्ल्यो तीस मराठी कविता आसात. हेंय हातबरप रोमी लिपयेंत आसा.[8]

'कोंकणी' आनी 'मराठी' हें हातबरपांचें वर्गीकरण सोळाव्या शेंकड्यांतल्या हातबरपांच्या बरप्यांचें, मूळ हातबरपांनी स्पश्ट केल्लें वर्गीकरण काय विसाव्या शेंकड्यांतल्या जाणकारांनी केल्लें वर्गीकरण तें रुद्रीगिश आनी नायक स्पश्ट करिनात. ए. नोरोञ्य हांणी रुद्रीगिशांच्या पुस्तकाक बरयल्ले प्रस्तावने बयल्यान विसाव्या शेंकड्यांतल्या जाणकारांनी हातबरपांची केल्ली ही वळख अशें मानपाक आधार मेळटा.

७७३ आंकड्याच्या हातबरपांतल्यो मराठी कविता रामायण, महाभारत आनी हेर कांय पुराणांतल्या काणयांचेर आधारिल्ल्यो आसात. पयल्या १३१ पानांनी 'श्री कृस्ट्णचरित्रकथा' ही ३१२३ ओंवयांची एकूच लांबचे लांब कविता आसा. हे कवितेच्या एकुणिसाव्या वांट्याच्या २४५ ते २५५ आंकड्यांच्या ओंवयांनी २५ एप्रील १५२६ ह्या दिसा केळोशीच्या शामाराजान 'कृस्ट्णदासु शामा' ह्या नांवान ही कविता बरोवंक घेतली ही जाणकारी मेळटा. हेर कवितां भितल्ल्यो चड्श्यो - ४५०० ओंवयो - विस्ट्णुदासु

नामान बरयल्यात; उरिल्ल्यो ग्यानदेव, शिवदासु, शिम्प नामा, नामा सदा, सामान्यदेव नामा, मेघशामा, पतक नाम, गंगाधर रामेश्वर, समयानन्दु आनी जिवतमु हरि हांणी रचल्यात हीय म्हायती ह्या ओंवयांच्या बरपांत मेळटा.[९]

लुर्दीन रुद्रीगिश आनी प्रताप नायक, दोगांयच्या मत्तान, सोळाव्या शेंकड्यांतले मराठीचे एके बोलयेंत ह्यो कविता रचल्यात आनी ही बोली कोंकणीक खूब लागिंची आसा.[१०]

७७१ आनी ७७२ आंकड्याच्या कोंकणी हातबरपां विशीं लुर्दीन रुद्रीगिश आमकां ही म्हायती दितात–

७७२ आंकड्याच्या हातबरपांत काणयांच्यो कच्च्यो प्रती मेळटात, जाल्यार ७७१ आंकड्याच्या हातबरपांत काणयांच्यो निवळायल्ल्यो प्रती मेळटात. 'आदि पर्वा'तल्यो काणयो आनी 'Hausadvazachi Katha' ही एक अर्दकुटी काणी सोडल्यार दोनूय हातबरपांतल्यो सगळ्यो काणयो समान नात. रुद्रीगिशांच्या मत्तान, ह्या रोमी लिपयेंतल्या हातबरपांतलीं बरपां मुळांत खंयचे तरी देशी लिपयेंत बरयल्लीं आसूंक जाय, आनी (थळाव्या) वाचप्या कडल्यान वाचून घेवन (मिशनरी) बरोवप्यान ती रोमी लिपयेंत उतरावन घेतिल्लीं जावंक जाय; उपरांत गरज थंय ताचोच आधार घेवन निवळावनूय काडिल्लीं आसूंक जाय.[११] ह्या हातबरपांच्या मजकुरांत कसल्योच विराम-कुरवो नात, तातूंत परिच्छेद नात, direct आनी indirect speech चोय गोंदळ तातूंत आसा अशेंय ते आमकां सांगतात.[१२]

रामायणाच्या हातबरपा संबंदान ओलिव्हीञ्यु गोमिश बरयतात, '... गोंयचे पंडित आपणा लागीं आशिल्ले कन्दवी लिपींत बरयल्ले रामायण प्रतींतल्यान वाचून धर्मप्रसारकांक सांगताले आनी तें हे कोंकणी-भक्त त्या काळावेल्या पुर्तुगेज स्वनविज्ञानाक अणसरून ध्वन्यात्मक रोमी लिपींत बरोवन घेताले.'[१३] रामायणाची मूळ प्रत कन्दवी लिपयेंत आशिल्ली अशें खंयच्या आधाराचेर मानपाचें तें गोमिश सांगनात.

प्रताप नायकांच्या मत्तान, ७७१ आनी ७७२ आंकड्याच्या हातबरपांतल्यो काणयो गोंयकार पंडितांनी मिशनरी (जेजुईत) पाद्रींक वाचून सांगूंक नात. तोंडान सांगल्यात, आनी मिशनरी पाद्रींनी त्यो बरपांत घाल्यात. अशें मानपाक आधार –

१) 'आदि पर्वा'चे कच्चे प्रतीची निवळायल्ले प्रती कडेन तुळा केल्यार कच्चे प्रतींतलीं, उतरांच्या क्रमाचे नदरेन फाटीं-फुडें जाल्लीं वाक्यां निवळ प्रतींत निटायेर घाल्लीं पळोवंक मेळटात. म्हळ्यार, सांगतना घडिल्ल्यो चुकी मिशनरी पाद्रींनी निवळायल्ले प्रतींत सुधारल्यात.

२) १५१० वर्सा पयलीं गोंयांत कोंकणी बरपावळ आशिल्ली जाल्यार तिचें एक तरी पान खंयूय तरी मेळपाचें. तशें तें खंयूच मेळना. हाचो अर्थ, कोंकणी बरपावळीचें मुळावणूच सोळाव्या शतमानांत जेजुईत पाद्रींनी घालां.[१४]

'पुर्तुगेज गोंयां येवचे पयलीं कोंकणींत गिरेस्त बरपावळ आशिल्ली, आपणाले राजवटीचें आनी धर्माचें बस्तान बसयतना पुर्तुगेजांनी ती ना करून उडयली' हें मत्त मॅथ्यू आल्मेयदांकूय मान्य ना. ते म्हणटात, पुर्तुगेजांनी थळाव्या भासांतली बरपावळ लासून उडयल्ली तेन्ना फकत पोरण्या काबिजादींचेर [म्हळ्यार, तिसवाडी (ईल्यश) बार्देस आनी साश्ट (सालसेत - तेन्नाच्या सालसेत म्हालांत आयचो मुरगांव म्हालूय आसपावतालो) ह्या गोंयच्या वाटारांचेर] तांचो शेक चलतालो. ह्या वाटारां भायरूय कोंकणी लोक आशिल्लो. कोंकणपट्टेचेर सगळ्याक तो पातळिल्लो. पोरण्या काबिजादींतली आशिल्ली तितलीय बरपावळ पुर्तुगेजांनी ना करून उडयली अशें मानलें जाल्यारूय हेर कोंकणी वाटारांनी हे आदले बरपावळीची कसलीच कुरू कित्याक मेळना?[१५]

आल्मेयदा मुखार म्हणटात, सतराव्या आनी अठराव्या शेंकड्यांत जे क्रिस्तांव गोंय सोडून गेले आनी मुखार कर्नाटकांत रावंक लागले तांणी आपणा वांगडा 'क्रिस्त पुराणा'च्यो कांय प्रती व्हेल्ल्यो. हे भाशेन, पोरण्या काबिजादींतल्यान नव्या काबिजादींनी वचून राबितो करून राविल्ले बामण आपणा वांगडा कोंकणी धर्मीक साहित्य घेवन वतले आशिल्ले. पूण कोणाकूच अजून सोळाव्या शेंकड्यां आदलें वा सोळाव्या शेंकड्यांतलें एकूय कोंकणी हातबरप वा हातबरपाचें एकूय पान मेळूंक ना. सोळाव्या-सतराव्या शेंकड्यांतल्या गोंयच्या मराठी हातबरपांच्यो प्रती मात विसाव्या शेंकड्यांतल्या गोंयकार संशोधकांच्या हाताक लागल्यात. हातूंत कृष्णदास शर्माचें 'कृष्णचरित्र' आनी श्रीमंगेश कविचें 'शिवदर्पण' हांचो आसपाव जाता.[१६] ['श्रीकृष्णचरित्रकथा' ह्या काव्याची देवनागरी लिपयेंत बरयल्ली एक पुराय प्रत वि.बा. प्रभुदेसाईंक लोलयां (काणकोणां) मेळ्ळ्या; ह्या काव्याची आनीक एक अर्दकुटी प्रत (देवनागरींतूच बरयल्ली) आनीक एका संशोधकाक उज्जयिनी, मध्यप्रदेशांत मेळ्ळ्या अशें प्रभुदेसाईच सांगतात.[१७]]

ब्रागाच्या वाचपघरांत आशिल्ल्या तीन हातबरपां भितल्ल्या मराठी हातबरपाच्या बरोवप्यां विशीं कांय दुबाव ना.[१८] देखीक, 'श्रीकृष्णचरित्रकथा', प्रभुदेसाई सांगतात तशें, कोणें, खंयचे भाशेंत रचिल्ली तें सातव्या अवेस्वरांतले हे ओंवयेंतल्यान स्पश्ट जाता – *''म्हणोनि सुत झाला सांगत। तो कृष्णदास सामासुत। दशम स्कंदींचा सांगेन वृत्तांत। मराठीया ॥१६२''*[१९]

कोंकणी हातबरपांचो बरोवपी ('निर्मुपी' ह्या अर्थान, 'बरोवन घेवपी' ह्या अर्थान न्हय) कोण हें आमकां स्पश्टपणान सांगूंक येना.[२०] जुझे पेरैरा मात तांकां कृष्णदास शामाचींच बरपां लेखतात, खंयच्या आधाराचेर हें मात ते स्पश्ट करनात.[२१]

कृष्णदास शामाक कोंकणी साहित्याचो मूळ पुरूस लेखून जुझे पेरैरा ब्रागा शारांत मेळिल्ल्या रामायण, महाभारताच्या हातबरपांक अनुक्रमान 'शामारामायण' आनी 'शामाभारत' म्हणटात. तांच्या मत्तान कृष्णदास शामान हें गदय अभिजात संस्कृत गद्याची देख दोळ्यां मुखार दवरून बरोवंक ना, तर जिबे वयले कोंकणीचे देखीन तांणी तें निर्मिलां. अशे तरेची, जिबे वयले भाशेचे देखीन गदय रचपाची रीत दोन शतमानां उपरांतच्या येवरोपी रॉमँटीक बरप्यांनी आपणायल्ली अशेंय पेरैरा सांगतात. कृष्णदास शामाच्या गद्याचे बुन्यादीचेरूच सतराव्या शेंकड्यांतल्या कोंकणी बरोवप्यांचें (मिशनरींचें) गदय चंवरलें अशें ते मानतात.[२२]

लुर्दीन रुद्रीगिशांच्या मत्तान, कोंकणी रामायण महाभारतांतली खंयचीच काणी कृष्णदास शामान बरयल्या म्हणपाचें स्पश्ट जाल्लें

नासतना कृष्णदास शामाक कोंकणी साहित्याच्या इतिहासांत सुवात दिवप समा जायना.[२३]

ओलिव्हीन्य गोमिश् म्हणटात, कोंकणी गद्याचीं हीं हातबरपां म्हळ्यार कोंकणींतल्यो सगळ्यांत आदल्यो साहित्यकृती. तांचो मूळ रचपी कोण हे विशीं दुबाव आसा. तो एकलो कृष्णदास शामाच न्हय तर ताचे सांगाती बरोवपी विष्णुदास नामा, शिवदास, ज्ञानदेव आदी आसुंये.[२४]

लिखीत कोंकणी साहित्याचो सोद घेतना मनोहरराय सरदेसायूय सोळाव्या शेंकड्यांतल्या ह्या रामायण महाभारताच्या हातबरपां सरीं पावतात. हीं हातबरपां मूळच्या बरयल्ल्या बरपां वयल्यान काय तोंडान सांगिल्ल्या काणयां वयल्यान तयार जाल्लीं तें स्पश्ट जायना; तशेंच, तीं कोणें रचिल्लीं हे विशींय दुबाव आसा अशें सुरवेक ते सांगतात. ह्या बरपांचे रचपी म्हूण कृष्णदास शामाच्या नांवा वांगडा विष्णुदास नामा, ज्ञानदेव, शिवदास, शिंपा नामा, नामा सदा, शामानंद नामा, मेघशाम, पताका नामा, गंगाधर रामेस्वर आनी जिवोतम हरि हींय नांवां हिसपांत घेवंक जाय अशें सुरवेक म्हणून मुखार, मराठी 'श्रीकृष्णचरित्रकथा' ह्या काव्याचो रचपी कृष्णदास शामा जाल्ल्यान हेंच नांव ते मुखेल धरतात आनी मुखार ह्या काणयांक कृष्णदास शामाच्यो काणयो लेखतात.[२५]

कोंकणी साहित्याच्या इतिहासा कडेन पळेतना, हे विशीं कसलींय विधानां करतना हेर भारतीय भासां पसून कोंकणीक वेगळी काडून तिच्या साहित्याचो विचार करप कितलेंशें बरोबर हाचेरूय आमी विचार करचो पडटलो.

सोळाव्या शतमानांतल्या रामायण आनी महाभारताच्या हातबरपां विशीं ओलिव्हीव्यु गोमिश बरयतात, 'पंदराव्या शतमानांतले निमाणे चवथायेंत वा घडये सोळाव्या शतमानाचे सुरवेक कोंकणींत गद्य बरपावळीची निर्मणी जाताली. आर्विल्ल्या भारतीय-आर्य भासां मदलें पोरण्यांतलें पोरणें अशें हें गद्य...'[२६]

ज्या काळार मराठी, कन्नड सारकेल्या कोंकणी भोंवतणच्या हेर भासांनी काव्याची निर्मणी जाताली - गोंयच्या गोंयांतूच 'श्रीकृष्ण-चरित्रकथा' सारकेलें मराठी काव्य तयार जातालें – त्या काळार कोंकणी काव्याचे वाटेक लेगीत वच नासतना गद्याची निर्मणी करपांत गुल्ल आशिल्ली अशें मानतलीं जाल्यार आमच्या हातांत आयचे घटकेक आसा तो सोळाव्या शेंकड्यांतल्या रामायण, महाभारताच्या रोमी लिपयेंतल्या हातबरपांचो आधार उणो पडटा अशेंच म्हणचें पडटलें.

साहित्य अकादेमीन उजवाडा हाडिल्ले *Encyclopaedia of Indian Literature* (1989) चो[२७] तिसरो खंड चाळून पळेलो जाल्यार पंदराव्या-सोळाव्या शेंकड्यांतल्या भारतीय साहित्य मळाचें एक चित्र आमच्या दोळ्यां मुखार उबें जाता. भारतीय साहित्यांतलो हो काव्याचो काळ. ह्या काळाचो प्रभाव गोंयचे भुंयेर जल्माक आयिल्ल्या मराठी साहित्याचेर आसा; कोंकणी मात ह्या प्रभावा पसून पुरायेन अलिप्त, अशें कशें, हो प्रस्न ह्या मळार सोद-वावर करतल्याक पडले बगर रावचोना.

रगताच्या नात्यान आनी शेजान्न म्हुण्णूय कोंकणीक सगळ्यांत लागींची भास मराठी. हे भाशेच्या सोळाव्या शेंकड्या आदल्या साहित्याचेर मुखेल प्रभाव दिसता महानुभाव आनी वारकरी संप्रदायांचो. वारकरी संप्रदायाची स्थापणूक ज्ञानदेवान (१२७५-१२९६) केल्ली. नाथपंथाचोच हो एक फांटो. नामदेव (१२७०-१३५०), एकनाथ (१५३३-१५९९) हे संत कवी ह्या संप्रदायांतले.[२८]

कन्नड कोंकणीची दुसरी शेजान्न. पंदराव्या आनी सोळाव्या शतमानांत कन्नड साहित्याचेर पुरंदरदास, कनकदास सारकेल्या 'हरिदास' संत कवींचो प्रभाव दिसता.[२९]

१४५० ते १८५० हो गुजराती साहित्यांतलो भक्ती काळ. ह्या काळांत गुजरातींत नरसिंह मेहता, मीराबाई, अखो, प्रेमानंद, श्यामल भट्ट, दयाराम सारकेले भक्त-कवी मुखार आयल्यात. कृष्णभक्ती तांगेल्या काव्याचो मुखेल विशय.[३०]

चवदावो ते सतरावो शेंकडो हो हिन्दी साहित्याचोय भक्ती-काळ. कबीर, दादू, तुलसीदास, सूरदास, जायसी सारकेले एका फुडले एक निर्गुण, सगुण आनी सुफी संत-कवी ह्या काळांत मुखार आयल्यात.[३१]

ह्या काळांत बंगाली साहित्यांतूय चैतन्याच्या वैष्णव संप्रदायाच्या प्रभावान काव्याची निर्मणी जाताली.[३२]

मराठींत ओवी छंदांत रचिल्लें कृष्णदास शामाचें 'श्रीकृष्णचरित्रकथा' हें काव्य हे परंपरेंतलें. संस्कृत भागवताच्या धाव्या अध्यायाच्या आधारान हें काव्य रचलां. आनी, एकनाथान 'भागवत' रचचे ४७ वर्सां पयलीं ह्या काव्याची निर्मणी जाल्ली अशें जाणकार सांगतात.[३३] वि.बा. प्रभुदेसाईंच्या मत्तान, कृष्णदास शामाचो वारकरी संप्रदाया कडेन लागिंचो संबंध आशिल्लो असो अदमास काडपाक खूब आधार आसा.[३४]

सुनीतिकुमार चटर्जींच्या मत्तान, ख्रिस्ता उपरांतच्या १०.० वर्साच्या अदमासाक भारतीय-आर्य भाशेन (भाशे-कुळान) तिच्या विकासांच्या नव्या पांवड्यार पावल दवरलें. इकराव्या शतमाना सावन ह्या भाशे-कुळाचो आर्विल्लो काळ सुरू जाता अशें ते मानतात. उत्तर भारताचेर आनी दखखनाचेर मुसलमानी शेक सुरू जालो तेन्ना काळाचीं आव्हानां पेलपाक संस्कृत वा प्राकृत भासो उण्यो पडूंक लागल्यो. भौसाक मुसलमानी प्रभावा पसून पयस दवरुपा खातीर, ताचे संस्कृतायेंत जें जें कितें उदात्त, मंगल, अभिमान दिसपा सारकें आशिल्लें ताची ताका समजत अश्या भासांतल्यान वळख करून दिवपाची गरज आशिल्ली. हें काम करूंक जिबे वयल्यो बोलयो मुखार सरल्यो. आनी, इकराव्या शतमानाच्या अदमासाक थळाव्या अपभ्रंशांचीं रुपां घेतिल्ल्या प्राकृतांतल्यान आर्विल्ल्यो भारतीय आर्य भासो जल्माक आयल्यो. चटर्जी मुखार म्हणटात, भारताचेर मुसलमानी राजवट येवंक नाशिल्ली जाल्यार इकराव्या शतमानाचे सुरवेच्या अदमासाक आर्विल्ल्यो भारतीय-आर्य भासो उपचारीकपणान जल्माक येतल्यो आशिल्ल्योच, पूण साहित्याचें माध्यम म्हूण तांचो वापर जावपाक आमकां आनिकूय वाट पळोवची पडपाची.[३५]

आर्विल्ल्या भारतीय-आर्य भासांच्या सुरवेच्या काळांतली बरपावळ मुखेलपणान हिन्दू धर्मीक बरपावळ म्हणूं येत अशे तरेची. चटर्जी सांगतात, आर्विल्ल्या भारतीय-आर्य भासांक संस्कृत, प्राकृत,

अपभ्रंशाचें काव्याचें दायज आशिल्लें; पद्याचे तुळेन गद्य भारतांत तशें फाटींच उरिल्लें.[३६]

काळाची गरज भागोवपाकूय गद्या परस पद्यूच चड योग्य आशिल्लें. लोकवेदाचे परंपरे कडेन काव्याचें खूब लागींचें नातें आसता. ते भायर, काव्य याद उरता, तें पाठ करूं येता आनी पाठांतरा वरवीं तींची पसवणूय करूं येता. संगिताची जोड मेळटकच तर काव्य भौसाच्या काळजा मेरेन सोंपेपणान पावता.

देखून, आर्विल्ले भारतीय-आर्य भाशेच्या 'जल्मा'च्या काळा सावन, म्हळ्यार, भारतीय-आर्य भाशेच्या आर्विल्ल्या पांवड्याचे सुरवे सावन, ज्या ज्या (आर्विल्ल्या भारतीय-आर्य) भासां कडेन लिखीत साहित्याची परंपरा आसा तांचे बरपावळीचो इतिहास पयलीं पद्य, उपरांत गद्य ह्याच क्रमान सुरू जाता. पंदराव्या शतमाना आदलीं भारतीय-आर्य भासांतलीं रामायणां, महाभारतां आनी पुराणां पद्यांतूच निर्माण जाल्लीं पळोवंक मेळटात. (V. Raghavan हांणी संपादीत केल्लें आनी दिल्लीचे साहित्य अकादेमीन उजवाडा हाडिल्लें *The Ramayana Tradition in Asia* (1980) हें पुस्तक चाळून पळेल्यार वेगळ्या वेगळ्या भारतीय भासांनी रामायण कशें जल्मा आयलें ताचो थोडो-भोव अदमास मेळूं येता. चडश्या भासांतलीं पयलीं-वयलीं रामायणां पद्यांतूच तयार जाल्यांत.) फकत कोंकणीच्या साहित्यीक इतिहासांत पयलीं गद्य मागीर पद्य हो उरफाटो क्रम कसो?

आनिकूय कांय मुद्द्यांचो विचार जावंक जाय –

१. बरपांतली भास आनी जिबे वयली भास हांचीं कांय खाशेलीं लक्षणां आसतात. हे नदरेनूय सोळाव्या शेंकड्यांतल्या हातबरपांची चिकित्सा जावप गरजेची. अशे तरचो एक यत्न हे आदीं जाला.[३७]

२. १६४८ च्या व्हिसरैच्या फर्माना[३८] उपरांत येवरोपी मिशनरी कोंकणी साहित्याच्या मळा वयल्यान कुशीक सरले, बरें आसा. इगर्जेचो आनी पुर्तुगेज राजवटीचो तेंको नाशिल्ल्यान बरपाक्षरी क्रिस्तांवूय कोंकणीचे वाटेक गेले नात हेंवूय समजून घेवं येता. पूण बरपाक्षरी हिन्दू - ह्या समाजांत लिखीत कोंकणी साहित्याची परंपरा आशिल्ली जाल्यार - कोंकणीची उवेखणी कित्याक करूंक लागले? १६४८ त एदुआर्द जुझे ब्रून द सौज (१८३६-१९०५) ये सर पुर्तुगेज राजवटी खालच्या कोंकणी समाजांत जल्मा आयिल्ली एकूय कोंकणी साहित्यीक निर्मणी आमच्या हाताक कित्याक लागना? ह्या सुमार दोन शतमानांच्या 'काळखा'चो आमी अर्थ कसो लावप?

३. एदुआर्द जुझे ब्रून द सौजां उपरांत फकत धा-बारा वर्सांनी कोंकणी सरस्पतीच्या माटवांत शणै गोंयबाबान पावल दवरलां. शणै गोंयबाब कोंकणींतल्यान बरोवंक लागल्यात तेन्ना कोंकणी मनशा कडल्यानूच, मुखेलपणान, ज्या पोट समाजांत ते जल्मा आयिल्ले त्याच समाजांतल्यान तांकां विरोध जाला. कोंकणीक लिखीत साहित्याची परंपरा आशिल्ली जाल्यार हे तरेचो विरोध जातलो आशिल्लो?

४. गोंया भायल्या, मुखेलपणान बाटाबाटीच्या आनी इंक्विझिशनाच्या काळार पुर्तुगेजांच्या शेका तळा आशिल्लें गोंय सोडून गेल्ल्या कोंकणी समाजाचो साहित्यीक इतिहासूय तपासून पळोवप गरजेचें.

१८७८ वर्सा फादर माफेय मंगळूराक पावले तेन्ना तांकां थंय कोंकणी मनशा कडल्यान कोंकणीची उवेखणीच जाल्ली पळोवंक मेळिल्ली. फादर माफेयाच्या वावरा उपरांत मंगळूरचो क्रिस्तांव कोंकणींत बरोवंक लागला आनी १९१२ त लुवीस मस्कारेन्हास आनी हेरांनी मुखार सरून काडिल्ल्या 'कोंकणी दिवें' ह्या पंद्रशी नेमाळ्यान मंगळूरी कोंकणी साहित्यकार घडयला.[३९] (बारीक पळेल्यार, हो मंगळूरी क्रिस्तांव कोंकणी बरोवप्याचो इतिहास. मंगळूरी हिन्दू कोंकणी साहित्यकार विसाव्या शतमानाचे सुरवेक खंय आशिल्लो काय?

सतराव्या शतमानांत डच वनस्पतशास्त्री Henricus Van Rheede (1637-1691) हाणें *Hortus Indicus Malabaricus* हो भारतीय वखदी वनस्पती विशीं म्हायती दिवपी विश्वकोश तयार केल्लो. केरळच्या तीग कोंकणी वैजांनी ताका ह्या वावराक आधार केल्लो, आनी ही गजाल तांणी विश्वकोशाक कोंकणींत - देवनागरी लिपयेंत - दाखलो दिवन स्पश्ट केल्ली. हो हाती बरपाचो दाखलो १६७८ वर्सा ॲम्स्टरडॅमाक उजवाडा आयिल्ल्या *Hortus Indicus Malabaricus* च्या पयल्या खंडांत ताच्या लातीं भाशेंतल्या अणकारा सयत उजवाडा आयला. (ह्या आंकाचें पान २ पळोवचें.) जुझे पेरैरांच्या मत्तान, दक्षिणी कोंकणीचो आमच्या हातांत आशिल्लो हो सगळ्यांत पोरणो नमुनो.[४०] कोंकणीक साहित्यीक दायज नाशिल्लें जाल्यार सतराव्या शतमानांतले हे वैज विश्वकोशाक कोंकणीतल्यान आनी, तेंय बी देवनागरी लिपयेंत, शिफारसपत्र कित्याक दितले आशिल्ले हो प्रस्न कोंकणीच्या अभ्यासप्यांक पडले बगर रावना.

१८०४ वर्साच्या अदमासाक जॉन लीडन (१७७५-१८११) ह्या इंग्लीश अभ्यासकाच्या हाताक कोचींत कांय कोंकणी हातबरपां लागिल्लीं. हाचेय कांय संदर्भ मेळटात.[४२] भारतीय भासां संबंदान १८०७ वर्सा बरयल्ल्या लेखांत ह्या हातबरपांचे उल्लेख आयल्यात; हो लेख ब्रिटीश म्यूझियमांत हातबरपाच्या रुपान सांबाळून दवरिल्लो मेळटा ही म्हायती जुझे पेरैरा आमकां दितात.[४१] तांणी दिल्लें ह्या हातबरपांतलें अवतरण मुजरत हांगा दिवपा सारकें आसा –

'The Koongani dialect differs considerably from the pure Mahratta chiefly from having borrowed copiously from the Canara and Malayalam. It possesses however a great number of native vocables and has been formerly cultivated by authors of learning and ability. The Koongani Brahmins are considered as a distinct class from the proper Maharashtra Brahmins and these two classes affect to treat each other mutually with contempt. The Koongani characters differ considerably from the Mahratta and Bhagavadam, Linga Purana, Ramayana and Bharata are translated into this language and written in its appropriate character and the Brahmins of

this class profess to be in possession of many other translations from the Sanskrit as well as of various original works among which are the Vira-Bhudra-Cheritra and Parasa-Rama- Charitra. The Jargon of Goa is said to differ considerably from the pure Koongani. The Koongani is said to possess many local histories and Stala Puranas among which the *Ugria-Bukkir* or history of the pirate Angria and the *Maliwani Bukkir* are probably interesting.'[४३]

नागेश सोंदेंच्या मत्तान, हीं 'पुस्तकां' केरळचे भुंयेर जल्मा येवंक नाशिल्लीं, तीं गोंयचेच भुंयेर जल्मा आयिल्लीं बरपां, गोंय सोडून वचपी कोंकणीच्या धुवां-पुतांनी तीं आपणा वांगडा व्हेल्लीं अशें दुबावा विरयत मानूं येता.[४४]

हीं बरपां आयज आमचे मुखार नात. पूण तांच्या संदर्भांत कसलेंय विधान करतना हो इकुणिसाव्या शतमानाचे सुरवेक लागिल्लो सोद हे गजाली कडेन आडनदर कशी करूं येत? हीं बरपां केरळचे भुंयेर जल्मा येवंक नात अशें खंयच्या आधाराचेर मानूं येत?

जुझे पेरैरा जॉन लीडनच्या हातबरपांतलें आनीक एक अवतरण दितात. तेंवूय म्हत्वाचें - 'the Wudya, Coongani and Tuluva languages I shall pass over, as my knowledge of them is too imperfect hitherto for me to form any accurate estimate of their connection with history, antiquities or literature of the Dekkan.'[४५]

कोंकणी भाशेचें आपणाक सारकें गिन्यान ना अशें खासा लीडनूच सांगतात तेन्ना तांच्या हे भाशेच्या साहित्या संबंदान केल्ल्या विधाना कडेन फावो तितलो दुबाव दवरून पळोवपूच समा जावचेंना?

एन्. एन्. आनंदनांच्या मत्तान, १६७८ च्या *Hortus Indicus Malabaricus*क दिल्लें शिफारसपत्र आनी श्री काशीमठ संस्थानाच्या श्रीमद् सुमतीन्द्र तीर्थ स्वामीजींनी १८४४ वर्सा आपणाल्या शिश्यां खातीर कोंकणींतल्यान काडिल्लें 'रायसपत्र' हीं दोन बरपां सोडलीं जाल्यार १९०० मेरेन केरळांत कोंकणींतल्यान बरयल्लें कांय मेळना.[४६]

पूण तरी *गोड्डे रामायण* (कोंकणी लोकगीत) आनी *वेंकटेश कल्याण* सारकेल्यो पद्य कृती केरळचे भुंयेर कोंकणी लोकांनी सांबाळून दवरिल्ल्यो मेळटात. *गोड्डे रामायणा*ची ताडपत्रांचेर मलयाळम लिपयेंत बरयल्ली एक प्रत प्रो. आर. के. रावांक १९८२ वर्सा मेळ्ळी. तांणी तिचें देवनागरीत लिप्यंतर आनी संपादन केलें. आनी १९८९ वर्सा हें पुस्तक उजवाडा हाडलें. रावांच्या मत्तान, हें कोंकणी लोकगीत.[४७]

*वेंकटेश कल्याण* हें भक्तीकाव्य 'भविष्योत्तर पुराणा'च्या तिसऱ्या - 'श्री व्यंकटेश महात्म्य' ह्या अध्यायाचेर आधारिल्लें हें काव्य कोणें केन्ना रचिल्लें ताचो थाव मेळना. पूण १५८९ वर्सा कोचीचें श्रीवेंकटेश्वराचें देवूळ बांदून जाले उपरांत केन्ना तरी हाची निर्मणी जाल्ली आसूंक जाय, आनी कर्नाटकी शास्त्रीय संगिताची जाण आशिल्ल्यानूच तें रचिल्लें जावंक जाय असो जाणकारांचो अदमास.[४८] (हाचो अर्थ, ही केरळचे भुंये वयली निर्मणी.) हें काव्य केरळांतलो कोंकणी लोक आयजूय गायता अशें सांगतात. *(वेंकटेश कल्याण* देवनागरींत घालून कोचीच्या 'कोंकणी भाषा इन्स्टिट्यूटा'न १९८८-१९८९ च्या अदमासाक उजवाड़ा हाडलां. ताची प्रत मात हे घटकेक हाता कडेन ना.)

निमाणें,

साहित्याचो इतिहास कित्या खातीर गरजेचो?

मुखेलपणान, आमी खंय आशिल्लीं, खंय आसात आनी आमकां खंय पावपाचें आसा ताचो होलम मेळचो म्हूण मूं?

जाल्यार, म्हणचें पडटलें,

सारक्या आधारां सयत आनी मेकळ्या चित्तान ताचेर सोद-वावर जावप गरजेचो.

पूण वायट दिसता एकेच गजालीचें–

जायते फावटीं, अमक्या एका जाणकारान केल्ल्या आमकां मानवत तसल्या अमक्या एका विधानाक आमी वेंग मारून बसतात आनी मूळ आधार तपासून पळोवपाचो इल्लोय यत्न करिनात. ही 'कुड्डी स्रद्धा' न्हय म्हणूं येत व्हय? आनी, उदरगतीचे वाटेन नेटान पावलां मारीत मुखार सरपी कोंकणीक आयज ती पुटवत व्हय?

---

१. पळेयात: J. Gerson da Cunha, *The Konkani Language and Literature* 1881 (New Delhi: Asian Educational Services 1981 Reprint) 25; नागेश सोंदे, *कोंकणी भाशेचो इतिहास* (मुंबय: वासंतिक प्रकाशन, १९८१) ६२; ओलिव्हीन्य गोमिश, *कोंकणी सरस्पतिचो इतिहास: एक सुपुल्लो नियाळ* (चांदर-गोंय: कोंकणी सरस्पत प्रकाशन, १९८९) ४; Manohar Rai SarDessai, *A History of Konkani Literature* (New Delhi: Sahitya Akademi, 2000) 12.

२. पळेयात: Joaquim Heliodoro da Cunha Rivara, 'An Historical Essay on the Konkani Language'. 1858. मूळ पुर्तुगेज बरपाचो Theophilus Lobo हांणी केल्लो अणकार. *The Printing Press in India: Its Beginning and Early Development,* Ed. Anant Kakba Priolkar. (Mumbai: Marathi Samshodhan Mandal, 1958. 141-236. मुखेलपणान पान. १६१)

३. पळेयात: वि. बा. प्रभुदेसाई, *सतराव्या शतकातील गोमंतकी बोली* (मुंबई: मुंबई विद्यापीठ, १९६३) 68-82; S.M. Katre, *The Formation of Konkani* (Pune: Deccan College, 1966) 174, प्रताप नायक, प्रस्तावना. *सोळाव्या शेंकड्यांतलें कोंकणी म्हाभारत: आदि पर्व,* संपा. प्रताप नायक आनी हेर (पर्वरी-गोंय: तॉमास स्टीवन्स कोंकणी केंद्र, १९९०) VI, VII; सुनीतिकुमार चटर्जी,

'काही आठवणी: सुनितिबाबूंच्या', रवीन्द्र केळेकर (पणजी-गोंय : नवप्रभा दिसाळें, १९ जानेवारी २००३) लेखांतलो उल्लेख, Matthew Almeida, 'Fransiscan and Jesuit Contribution to Konkani', Sod, 6 (पर्वरी-गोंयः तॉमास स्टीवन्स कोंकणी केंद्र, 2004) 55-58.

४. शणै गोंयबाब, *येवकार-अध्यक्षांलें उलोवप* (मुंबयः गोमंतक छापखानो, १९४५) १३.

५. पळेयातः प्रताप नायक १९९० : VI

६. वयलोच संदर्भ : VIII

७. L. A. Rodrigues (संपा.), *Mohabharot-Adi Porv (Goem, Avertano Furtado) 1988;* प्रताप नायक आनी हेर (संपा.) १९९०; *ओलिवीऱ्यु गोमिश (संपा.) १६ व्या शेंकड्या आदलें कोंकणी रामायण* (ताळगांव-गोंयः गोंय विद्यापीठ) १९९६.

८. प्रताप नायक १९९०: VI, VII.

९. वयलोच संदर्भः VII, VIII.

१०. L. A. Rodrigues 1988: XV, प्रताप नायक १९९०: VII.

११. L. A. Rodrigues 1988. XVI

१२. वयलोच संदर्भः XVII

१३. ओलिवीऱ्यु गोमिश् १९९३: XXXVI

१४: प्रताप नायक १९९०: VII

१५. Matthew Almeida 2004: 55.

१६. वयलोच संदर्भः 55, 56.

१७. पळेयातः वि. बा. प्रभुदेसाई, 'गोमंतकाची मराठी परंपरा', *गोमंतकीय मराठी वाङ्मयाचा इतिहास* संपा. वि.बा. प्रभुदेसाई आणि रवीन्द्र घवी, खंड (पणजी-गोंयः गोमंतक मराठी अकादमी, २००३) ९९.

१८. पळेयातः L. A. Rodrigues 1988: XVII; प्रताप नायक १९९०: VII, VIII.

१९. वि. बा. प्रभुदेसाई २००३:९९.

२०. पळेयातः L. A. Rodrigues 1988: XVI, XVII; प्रताप नायक १९९०: VII.

२१. पळेयातः José Pereira, *Literary Konkani: A Brief History* (Panaji-Goa: Goa Konkani Akademi, 1992) २६४.

२२: José Pereira 1992: 26, 27.

२३. L. A. Rodrigues 1988 :

२४. ओलिव्हीन्य गोमिश् १९८९: ५.

२५. ManoharRai SarDessai 2000: 30-33.

२६. ओलिव्हीऱ्यु गोमिश्. Introduction. *सोळाव्या शेंकड्या आदलें कोंकणी रामायण,* 1996 XII. (अणकारून).

२७. *Encyclopaedia of Indian Literature,* Vol. III. Ed. Amaresh Datta, New Delhi: Sahitya Akademi, 1989.

२८. पळेयातः Prabhakar Machwe, "Marathi Literature", *Encyclopaedia of Indian Literature,* Vol. III: S 2397-2401.

२९. पळेयातः L. S. Seshagiri Rao, "Kannada Literature", *Encyclopaedia of Indian Literature,* Vol. III: 2378-2383.

३०. पळेयातः Ramesh M. Shukla, "Gujarati Literature", *Encyclopaedia of Indian Literature,* Vol. III: 2366-2374.

३१. पळेयातः विजयेन्द्र स्नातक, "Hindi Literature". *Encyclopaedia of Indian Literature,* Vol. III: 2376-2378.

३२. पळेयातः Sukumar Sen and Manoj M. Chakravarti, "Bengali Literature", *Encyclopaedia of Indian Literature,* Vol. III: 2346-2353.

३३. पळेयातः ManoharRai SarDessai 2000:31, वि. बा. प्रभुदेसाई २००३ : 98.

३४. प्रभुदेसाई २००३: 98, 99.

३५. Suniti Kumar Chatterji, *Indo-Aryan and Hindi,* (Calcutta: Firma K. L. Mukhopadhyay, revised and enlarged 2nd ed. 1969) 102, 103.

३६. वयलोच संदर्भः 108.

३७. पळेयातः माधवी सरदेसाय, 'हें सोळाव्या शेंकड्या आदलें लिखीत साहित्य?', जाग वर्स ३३, आंक ३, ऑक्टोबर २००६: ९३-१०२. ह्या लेखा संबंदान आयिल्ली सॅ. मा. बॉर्जिस हांची प्रतिक्रियाय पळोवचीः 'हाकाच संशोधन म्हणटात काय?', जाग वर्स ३३, आंक ४, नोव्हें. ९६-जाने. ०७: ८-१२.

३८. पळेयातः Cunha Rivara (1858), अणकार 1958: 182-185.

३९. पळेयातः ManoharRai SarDessai 2000: 250-254.

४०. José Pereira 1992: 38.

४१. पळेयातः Jose Pereira 1992: 38, 39; नागेश सोंदे १९८१:७१; ओलिव्हीन्य गोमिश १९८९:४२.

४२. José Pereira, *Konkani: A Language: A History of the Konkani Marathi Controversy.* (Dharwar: Karnataka Univ. 1971)4.

४३. John Leyden, 1807, 'Plan for the Investigations of the Languages, Literature, Antiquities and History of the Dekkan', British Museum, Additional Ms. 26, 566, pp. 67-70 (or fols. 37r-37v). Jose Pereira 1971:121.

४४. नागेश सोंदे, १९८१:७१.

४५. John Leyden 1807, p2. 4 (fol. 19v); José Pereira 1971:5.

४६. ManoharRai SarDessai 2000: 298.

४७. आर्. के. राव (संपा.) *गोइडे रामायण (कोंकणी लोकगीत).* (कोचीः कोंकणी भाषा इन्स्टिट्यूट, १९८९) प्रकाशकाचीं उतरां: III-VIII.

४८. ManoharRai SarDessai 2000:299.



## रवीन्द्रबाबांचें भाशण: एक आदर्श वस्तुपाठ

हार्लीच एका इश्टागेर गेल्लों. ताचें तोंड बाविल्लें. तो सदच्या मुडांत ना हें कळ्ळें. घरगुती ताणाक लागून वा ऑफिसाच्या कामाच्या चेपणाक लागून आसुये, अशें दिसलें.

- आरोग्य बरें ना रे? हांवें विचारलें.

- ना. काल मरे एके कार्यावळीक गेल्लों.

- कसली?

- पुस्तक विमोचनाची. भाशणां आयकून तकली कणकणली. पयलींच कार्यावळ ४५ मिनटां उसरां सुरू जाल्ली. तातूंत उलोवपी पांच. एकलो तर ४० मिनटां भरभरलो. ताकाय व्हडलोसो अर्थ नाशिल्लो...

- आसूं. फुडलें नाका. कळ्ळें.

- तूं खूब शाणो. तूं असल्यो कार्यावळी टाळटा.

- हांव ओगीच रावलों. विशय सोंपलो.

म्हाका म्हज्या मोलादीक वेळाचें आनी मानसीक शांतीचें पडून गेलां. 'भाशण श्रवण: एक ख्यास्त' ह्या विशयाचेर हांवें एक लेख बरयिल्लो. तो म्हज्या *'हंसध्वनी'* झेल्यांत आसपावीत केला. कांय वर्सां आदीं 'कार्यावळ आयोजन आनी वेवस्थापन' ह्या विशयाचेर आनी तातूंतल्या घाळपणांचेर उजवाड घालपी दीर्घ लेखूय हांवे बरयिल्लो.

पळेयात. सरभोंवतणीं जळामळा सध्या एक सांस्कृतीक जोर आयिल्लो दिसता. कार्यावळींची खातड चल्ल्या. तातूंत भाशणांचीय खातड आसता. आयकुपी आपले मोलादीक जिणेचो एक 'स्लॉट' खर्चून थंय आयल्यात हाचें धंगण आयोजकांकूय आसना आनी वक्त्यांकूय खूप खेपे आसना. माचयेर कितले उलोवपी आसचे हाचेंय भान कोण बाळगिना. ताचे दगदग श्रोत्यांक जातात!

एकंदर समाजाचे मानसीक भलायके विशींच हुसको जाता. पिये नाशिल्ले पियेल्ले भशेन वागतात. वेगळ्या वेगळ्या यंत्रणांनी वावुरपी कांय मालूक पळेतकच अशें दिसता - मॅण्टल हॉस्पिटलांत उपचार घेवपी कांय जाण कदाचीत ह्याच 'अती शिकिल्ल्या' आनी अर्दकुट्या विक्षिप्तांचे वागणुकेच्या छळाक लागून थंय पावनात मूं?

सगलेंच भिस्क्यार मारून एके तरेचो नैतीक आतंकवाद, नैतीक भ्रश्टाचार, झुंडशाय, मनमानी, दादागिरी करीत कांय जाण आपल्याच कैफांत वागत आसतात. सुवार्थाक आनी मदाक कसलोच धरबंद ना. ह्या विवेकशुन्य, वाचनशुन्य घटकांचीच चलती दिसता. कारण, तांचे कांय चमचे, हुजरे आनी आश्रीत तांकां 'विचारवंत' (?) म्हूण भाशणां करपाक आपयतात. हे विचारवंत उलयतात, उलय उलय उलयतात आनी तांचे हुजरे ताळयो मारतात. घणसाबैला भशेन तकल्यो हालयतात. समाजांतलें हें रेबड दिशीं दिशीं दशाहीन जायत आसा.

उजू आचरण आशिल्ले सत्यनिश्ठ वक्ते, संसदपटू, मनीसपणाचे उपासक वा साधक वखदाक लेगीत मेळनात. 'अमूर्खपण' (sanity) आनी 'अफटींगपण' हांचो लवलेश मेळपाक कुस्तार जालां. (हीं दोनूय उतरां हांवेंच आपउक्तावणेचे गरजेंतल्यान coin केल्यांत. तीं कोशांत मेळनात.) वैचारीक दिवाळखोरीन बरबटिल्ल्या समाजांत mediocrity वाडल्या अशें म्हणपूय समा जायना. कारण खूब खेपे मध्यम दर्ज्या खालाच सगलें देंविल्लें दिसता.

प्रदुशण वाडोवपी हालींच्या चडश्या 'अभ्यासपूर्व' भाशणांनी घोंसाळ्याचो काथो आसा काय नाल्लाचो तोय कळना. थोडे वक्ते ठांसून भरिल्ल्यो माहितीच्यो पोतयोच (साक) भौशीक माचयेर उसयतात आनी उसपितात. विद्वज्जड, शब्दबंबाळ आनी वैचारीक गोंदळान भरिल्ल्या भाशणांनी तर तकली भणभणटा.

हे सगले बजबजपुरीचे फाटभुंयेर जागाच्या ऑगस्टाच्या अंकांत रवीन्द्रबाबांचें पीपल्स हायस्कुलाचो भोवमान घेतना 'करतलों म्हूण आशिल्लों तें' भाशण वाचूंक मेळ्ळें आनी भाशण कशें आसचें हाची देख ह्या व्यासंगी विचारवंत साहित्यिकान घालून दिल्या हो दिश्टावो जालो. चिखलांत कमळ दिसतकच जावचो तसो खूब आनंद जालो. पूण हें भाशण प्रत्यक्षांत ते कार्यावळींत लोकांक आयकूंक मेळ्ळेंना आनी ते आनंदाक मुकले. तशें कित्याक घडलां आसुये हें जरी अदमासपंचे जाणवता, तरी लेगीत तुमी तें छापून आमचे मेरेन पावोवन एक व्हड काम केलां. ते खातीर तुमकां परबीं.

भाशण वाचना फुडें दोळ्यांत दुकां आयलीं! खोशयेचीं आनी सौंदर्याची विलक्षण अनुभुती जातकच, म्हाका तें कित्याक आवडलें असले तार्कीक विसकटावणेंत अर्थ आसना. म्हज्या भावान, ॲड. अमोलान, तें रुचीन वाचलें. म्हजे आवयन, माईन, लेगीत तें लक्ष दिवन वाचलें आनी आमी घरांत ताचेर भासाभास केली. अब्राहम लिंकन खंय भाशण तयार करतना दरेका उतरा खातीर, वाक्या खातीर रातदीस चिंतन करून तकालस घेतालो. कितलींशींच टिपणां, कागदा कुडके बरोवन बरोवन तें कपयाळें रचून पुनर्लेखन करतालो. नेहरूंच्या भाशणांतलें काव्य आमी जाणातूच. नानी पालखीवालाच्या भाशणांतलीं उतरां म्हणल्यार खणखणीत नाणीं.

तरी लेगीत हांवें रवीन्द्रबाबाचें भाशण आवडुपाचीं कारणां म्हाकाच विचारलीं. ह्या लेखरुपी पत्राच्या सुरवातीच्या कथनांतल्यान तीं स्पश्ट जातात. कालोरान भाजिल्ले धरतरेचेर सरसरीत थंडगार दाट पावसा दडक येवची तशेंशें जालें. तानसोरान सुकतडो लागिल्ल्या ताळ्याचेर 'ठाप्प' करून एक 'ओथांबो' पडिल्ले भशेन दिसलें. उदकाचो ओथांबो न्हय. अमृताचो!

रवीन्द्रबाबान आपल्या किंतल्याश्याच निबंदांतल्यान आनी लेखांतल्यान 'शिक्षण' ह्या विशयाचेर आपलीं मतां आनी विचार मांडल्यात. म्हज्या मेजार THE HINDU ह्या दक्षीणे कडल्या दिसाळ्यान आदल्या अंकांनी उजवाडाक आयिल्ल्या लेखांचेर आदारीत *Education* हें पुस्तक आसा. आनिकूय शिक्षणतज्ञांची, विचारवंतांचीं पुस्तकां आसात. पूण व्हडे नमळायेन, पारदर्शकपणान रवीन्द्रबाबान आपल्याक शालेय शिक्षणाचो वीट कित्याक आयलो तें भाशणांत सांगतना वाचप्यांक अंतर्मूख केल्यात. उपचारीक शिक्षण, एकॅडेमीक शिक्षण आसूं नाजाल्यार आनीक कसल्याय लेबलाचें आसूं, तें 'अदांभीक' शाऽणो नागरीक घडोवपाक कित्याक फेल वता अशे आनी हेर कितलेशेच विचार हें भाशण वाचतकच तकलेंत मोड

कशे घुंवक लागले, 'शिकून ब्रूत' ही ओपार कित्याक घोळटा आसुये हे विशीं चिंतन सुरू जालें. कथीतपणान शिकिल्ल्यां मर्दींय, स्वताचीच वळख नाशिल्ले, स्वताचेरूच विश्वास आनी निष्ठा नाशिल्ले आसूं येतात? हें येवजीत हांव अंतर्मूख जालों. कसबी नाटककारान दिग्दर्शका खातीर आनी नटां खातीर सुंदर spaces सोडच्यो तश्यो हया भाशणांत रवीन्द्रबाबान सोडल्यात. 'तातूंत कितलेशेच under currents आसात. शिक्षण ह्या विशयाचेर आयजवेर तांणी जें कितें बरयलां ते आपलेच विक्रम तांणी ह्या निबंदांतल्यान मोडल्यात अशें जाणवलें.

**भाशणाचो मसुदो बरोवन काडूंक जाय हो व्हडलो संकेत तातूंत आसा.** खूब जाणांक 'हांव Extempore उलयतां रे' अशें म्हणपाचो फाजील आत्मविश्वास आसता. निमाणच्या वगतार ते श्रोत्यांक पिडटात. (सुरवातिकूच सांगलां त्या म्हज्या इश्टा भशेन गत जाता. शिंसलां उसळटात तीं आठ दीस थांबनात मागीर) सदचे भशेन सुटसुटीत शैलींत रवीन्द्रबाबान भाशणशिल्प घडयलां. तातूंत धार आसा, कोरीवताय आनी तोंकाळपण आसा. स्पश्टताय आसा. सत्याच्या साधकाचें तपोचरणाचें तेज आसा. वक्त्याच्या उलयिल्ल्या शब्दांतल्यान आनी लेखकाच्या बरयिल्ल्या शब्दां परसूय तीं उतरां कोरांतपी मनीस जर सत्याच्या मार्गार चलपी आसत जाल्यार शब्दा विणेंच कितलीशीच अभिव्यक्ती जाता आनी घेतल्याक ती जाणवता. उतरां हीं अडेचीं. शुद्ध, नितळ, निवळ मनीसपणाचो रियाझ करपी मनीस उलोवचे पयलींच आपले बोलके कृतींतल्यानूच सभा आनी मनां जिखता.

रवीन्द्रबाबाच्या आंगार म्हजे सारक्यांचे तोखणायेन मूठभर मांस चडपाचें उरलां? मागीर ह्या पत्राची गरज कित्याक तर?

कितें करुया? भारत हो भाशण ठोकप्यांचो देश अशें म्हणतूच आयल्यात. म्हणटकच **भाशणांतल्यान विचारप्रवर्तक, उत्प्रेरक कितेंय नवें दिवपाची गजाल अलाहिदा. ज्ञानपीठ पुरस्कार मेळोवपी साहित्यिकाच्या ह्या भाशणांतल्यान निदान भाशण कितल्या शब्दांचें (कितल्या मिणटांचें, म्हणजेच आटापाचें) आसचें हें आमी शिकत जाल्यार खूब जालें. खूऽऽब!**

**- मुकेश थळी**



# शब्दसंवसाराची यात्रा भोव खोसदेणी...

भौ. माधवीबाय,

नमस्कार,

'जाग'च्यां जून-जुलय २००९ अंकांत तुमी उतरांच्या रुपां विशीं बरयलां. उतरांची फोडणिशी करून तांची मुळां सोदप म्हळ्यार एक भोवच खोसदेणी अशी शब्दसंवसाराची यात्रा. बारीक चिकित्सक नदर दवरून हे यात्रेक भायर सरल्यार कस-कसल्यो गजाली हाताक लागत सांगूं नजो.

बाकीबाब आसतना, एक दीस रेडियोर आमी अशेच उतरां विशीं उलयत बशिल्ले. उलयतां उलयतां एक शब्दयात्राच कशी सुरू जाली. तुमगेलें 'आगोत', 'शिर्ती' वयलें बरप वाचून म्हाका ताची याद जाली. बाकीबाबान केळीच्या पानाचे वेगवेगळे वांटे कशे वळखप हें सांगतना तांणी म्हणिल्लें तें अशें: केळीच्या पानाचो देंठा कडचो जो भाग आसता तो म्हळ्यार ''खांदोती''. म्हळ्यार संस्कृतांत सांगचें जाल्यार ''खंडवती''. ''आगोती'' हो ताचे फुडलो भाग - 'अग्रवती'. आनी ते उपरांतचो निमाणो तोंका कडलो भाग 'शिर्ती' म्हळ्यार 'शिरवती'. आमी जेन्ना केळीचें पान मांडटात आनी ताका जो कुडको लाययतात तो 'चोळको'. काणकोणांत शिर्तेक 'शिरवते पान' म्हणटात जाल्यार तें 'शिरवती'चेंच रूप आसूंक जाय. शणै गोंयबाबान 'आगोतेची शिर्ती' अशें म्हळां खरें. पूण तांणी तशें कित्याक म्हळां तें कळना. घडये तांचो तो स्वताचो शब्दप्रयोग आसुंये.

आतां कोणूय म्हणूंक शकता, सुसंस्कृत संस्कृत शब्दरुपां तद्भवांत बदलून केळी पाना संबंदांत एकदम लोकांचे जिबेर घोळपी लोकभाशेंत कशीं आयलीं? म्हज्या मत्तान, पुजा अर्चा असल्या हिंदूच्या धर्मकार्यांत केळीच्या पानांचो खूब उपेग जाता. धर्मकार्य करपी आसतात ते पुरयत-पंडित. तांच्या तोंडांतल्यान हीं उतरां लोकां मेरेन पावल्यांत जावंक जाय असो म्हजो तर्क. दुसरें, केळीच्या पानाची ''आगोती, खांदोती वा शिर्ती'' धर्मांतल्या कर्मकांडा प्रमाणे कशाकशीय मांडूंक जायना. ते विशींचेय कांय कर्मकांडी नेम आसात. ताका लागून त्या उतरांचें विशेशपण.

आनीक एक सांगपाचें म्हळ्यार, केळी पानाच्या खंयच्याय कुडक्याक खोलो म्हणूं येता. कारण कोंकणींत ज्या पानाचो दोणो वा कितेंय वस्तू बी गुठलावपाक उपेग करूंक मेळटा ताका 'खोलो' म्हणटात. देखीक करमलाचो 'खोलो' वा अनेक वचनांत 'खोले'. अळमी बी बांदपाक हेच 'खोले' वापरतात. आंब्या सारक्या अशीर लांबट पानाक मात पानच म्हणटात. म्हळ्यार 'पर्ण'. पानाचें मूळ 'पर्ण' मेळटा. पूण खोल्याचें मूळ कितें तें कळना. कारण तें उतरच मुळांतले आदीम जमातीच्या उलोवपांतलें आसूंक जाय. आंब्याचें 'पान' म्हणटात पूण पणसाच्या पानांक 'खोलयो' म्हणटात. ह्या खोलयांचेच दोणे करून चवथी पंचमीक बी हीट उकडटात. सांगपाचें म्हळ्यार, उतरां आमकां आमच्या सांस्कृतीक आनी सामाजीक मुळाच्या इतिहासा कडेन घेवन वतात. डॉ. सुनीतिकुमार चटर्जीनी अशा कांय उतरांची प्रवास-काणी आपणाल्या निबंदांनी सांगल्यां. तांच्या म्हणण्या प्रमाण कांय संस्कृत उतरां, कांय पंदरा-वीस शेंकड्यां पयलीं भारतांतल्यान इराणांत पावलीं आनी पर्शियन जालीं. कांय शेंकड्या उपरांत तींच उतरां वळखूंक येनात इतलीं बदलून फारशी भाशे वांगडा भारतांत परतलीं आनी नव्यान भारतीय जालीं. अर्थात् हो एक सामक्या वेगळ्या लेखाचो भासशास्त्रीक विशंय. ताचेर केन्ना तरी विचार करुंया.

**- नागेश करमली**



# कांय उगडास बाकीबाबाचे

**उदय भेंब्रे**

१९८२ वर्स. अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेचें १४ वें अधिवेशन पणजेंत जालें. ताका जोडून साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार भेटवण सुवाळो घडोवन हाडपाचें आमंत्रण परिशदेन दिल्लें. साहित्य अकादेमीन तें मानून घेतिल्ल्यान अधिवेशन आनी तो सुवाळो मेळून चार दिसांचो उत्सव जालो.

त्या वर्सा साहित्य अकादेमीचो कोंकणींतलो पुरस्कार बाकीबाब बोरकार हांकां मेळिल्लो जाल्यार मराठींतलो पुरस्कार लक्ष्मण माने हांकां मेळिल्लो. पुरस्कार मेळिल्ल्या सगल्या साहित्यिकांची रावपाची वेवस्था एकाच हॉटेलांत केल्ली. मेकळ्या वेळांत बाकीबाबाक आनी हेर साहित्यिकांक मेळपाक गोंयांतले तरणाटे लेखक त्या हॉटेलांत वताले. एका सांजवेळा हॉटेलाच्या आंगणांत बाकीबाब एका तरणाट्याच्या खांदार हात घालून पासयो मारीत गजाली करतना लक्ष्मण माने हांणी पळयले. उपरांत तांणी कांय जाणांक सांगलें, 'तुमी भाग्यवंत! एक व्हड साहित्यीक तुमकां इतलो सांगात दिता. आमच्या महाराष्ट्रांत अशें घडना. खंयच्याय व्हड साहित्यिकान अशे तरेन खांदार हात घालपाची गजाल सोडाच; पूण तांचे सरीं पावप हें पसून खूब कठीण आसता.' मात एक मतींत धरूंक जाय. कोंकणींतल्या वा गोंयांतल्या सगल्याच व्हड साहित्यिकांच्या आंगांत तो गूण आसता अशें ना. तो बाकीबाबाच्या खेरीत गुणां मदलो एक.

बाकीबाब कवी म्हूण व्हडविकेक पावले आनी तांचे मदले साहित्यीक गूण गाजले. पूण मनीस म्हूण बाकीबाबाचे ठांय कांय गूण आशिल्ले. जांकां अणभव आयला तांकां ते गूण कळूंक पावल्यात.

साहित्य अकादेमीन कोंकणीक स्वतंत्र साहित्यीक भास म्हूण मान्यताय दितकूच अकादेमीचेर कोंकणीचो पयलो प्रतिनिधी म्हूण पावले ते बाकीबाब. तांच्या त्या कार्यकाळांत हांव गोंयांतल्या कोंकणी भाशा मंडळाचो अध्यक्ष. हेरशीं, अकादेमीच्या खंयच्याय प्रकल्पा विशीं वा खंयचेय कार्यावळी विशीं निर्णय घेवपाची तांक बाकीबाबाक पुरायपणान आशिल्ली. तांणी हेर कोणाक विचारपाची वा कोणाचीय बुद्द घेवपाची मातूय गरज नाशिल्ली. पूण बाकीबाबाचें व्हडपण अशें की तांणी मडगांवां येवचें, चार जाणांक आपोवन हाड म्हूण सांगचें आनी जमिल्ल्यां कडेन मेकळेपणान चर्चा करून निर्णय घेवचे. तशें करतना ते आमचेच पिरायेचे जाताले आनी इतले मेकळेपणान वागताले की तांच्या व्हडपणाचो कांच कोणाचेरूच पडनाशिल्लो.

पदाचो मोह तांकां निखालस नाशिल्लो म्हणपाचेंय साहित्य अकादेमीच्या संदर्भांतूच दिसून आयलें. साहित्य अकादेमीचे आमसभेचो कार्यकाळ पांच वर्सांचो आसता. बाकीबाब वांगडी जाले तेन्ना दोन वर्सा उलगल्लीं. त्या कार्यकाळाचीं तीन वर्सां बाकीबाब कोंकणीचे प्रतिनिधी म्हूण वावुरले. आतां फाटोफाट दोन कार्यकाळ कोणाकूच मेळनात; पूण तेन्ना तशी बंदी नाशिल्ली. बाकीबाब आनीक एक कार्यकाळ अकादेमीचे वांगडी म्हूण वावरूंक मेकळे आशिल्ले आनी तांणी तशें करचें अशेंच सगल्यांक दिसतालें. मात बाकीबाबाक तो मोह नाशिल्लो. तांणी सांगलें, 'तीन वर्सां हांवें थंयचो अणभव घेतलो. आनी म्हाका दिसलें, थंय म्हजे सारक्या कवी परस साहित्यीक आनी प्रोफेसर आशिल्लो मनीस अदीक बरें काम करूंक पावतलो. आमचे मदीं मनोहर (डॉ. मनोहरराय सरदेसाय) आसा. ताचें नांव सुचोवया.' बाकीबाबाक आग्रो जालो; पूण तांणी तो मानून घेतलो ना. तांणी मनोहरबाबांचें नांव सुचयलें आनी मनोहरबाबाचें नांव साहित्य अकादेमीन मानुनय घेतलें. पूण उपरांत दुसऱ्या एका विचारान अशें थारलें की त्या वेळार मनोहरबाबान फाटीं सरचे आनी रवीन्द्रबाब केळेकार हांणी वांगडी म्हूण वचचें. ते प्रमाण मनोहरबाब फाटीं सरले आनी रवीन्द्रबाब वांगडी जाले. खरें म्हळ्यार, साहित्य अकादेमी ही देशांतली सर्वोच्च साहित्यीक संस्था. व्हड-व्हड मनशांनी थंय पदां सांबाळ्ळ्यांत. ते संस्थेचे वांगडीपद हें भोवमानाचें. पूण बाकीबाब त्या भोवमानाक दसून रावलेनात. जंय ते तरेचें मनीस फावता थंय ते तरेचें मनीस पावचें असो विचार तांणी केलो आनी त्या विचारा प्रमाण आचार केलो. हो खेरीत गूण खूब थोड्या मनशां मदीं आसता.

**कोंकणी चळवळींत ५० वर्सां**
**तिगून उरिल्ल्यो यादी**

बाकीबाबाली तत्वनिष्ठा ही तर स्फूर्त दिवपी आनी आदर्श म्हूण नदरे मुखार दवरपा सारकी. बाकीबाब आनी लक्ष्मणराव सरदेसाय हे मराठी साहित्यांत नामनेक पाविल्ले गोंयकार साहित्यीक. तांणी सत्यनिष्ठा पाळ्ळी. ते मायभुंये कडेन आनी मायभाशे कडेन निष्ठावंत रावले. कोंकणी-मराठी वाद मातलो तेन्ना महाराष्ट्रांतले विस्तारवादी कोंकणी चळवळ दुबळी करपाच्या यत्नाक लागिल्ले. बाकीबाबा सारको व्हड साहित्यकार कोंकणीक मायभास मानता, तिची उदरगत जावची म्हूण वावुरता तेन्ना कोंकणीच्या पुरस्कर्त्यांक 'काळोखाचे पुजारी' म्हूण गाळ मारप त्या विस्तारवाद्यांक अडचणीचें जातालें. देखून बाकीबाबाक 'हायजॅक' करपाचो एक यत्न तांणी केलो. तांणी बाकीबाबाक एक संदेश पावयलो की ते तांकां अखिल भारतीय मराठी साहित्य संमेलनाचें अध्यक्षपद दिवंक सोदतात; मात् बाकीबाबान कोंकणीचो पाखो घेवपाचें सोडचें पडटलें. ह्या हांयसाक बाकीबाक फारावतले अशी आस्त तांणी धरिल्ली; पूण तशें घडलें ना. बाकीबाब

तत्वनिष्ठेक दसून रावले आनी तो प्रस्ताव तांणी भायर मारलो.

बाकीबाबाचो आनीक एक उगडास आसा तो इल्लो मौजेचो. तेन्ना बाकीबाब आकाशवाणीच्या पणजी केंद्रांत प्रोड्यूसर आशिल्ले. म्हाका एक प्रस्ताव आयलो, 'लोकशाय' ह्या विशया वयले चर्चेंत वांटो घेवंपाचो. र. वि. पंडित आनी खासा बाकीबाब चर्चेंत वांटो घेवपाचे आशिल्ले. हांवें 'लोकशाय' ह्या विशया वयले चर्चे खातीर कांय मुद्दे बरोवन काडले आनी चर्चा मुद्रीत जावपाची आशिल्ली त्या दिसा ते घेवन गेलों. थारायिल्ल्या वेळा मेरेन पंडित पावलेनात. ते खातीर, बाकीबाबान एका कर्मचाऱ्याक पंडितांगेर धाडलो, तांकां आपोवन हाडूंक. मागीर बाकीबाबान म्हाका म्हळें, 'तुवें कसले पॉइंटस् काडल्यात ते पळोवया.' हांवें बोल्सांतलें कागद काडलें आनी सांगूंक लागलों. एक-दोन मुद्दे सांगतां थंय आसां, बाकीबाबान म्हळें, 'हे कसले पॉइंटस् तुजे! चर्चेचो विशय हो न्हय.'

'म्हाका कॉंट्रॅक्ट आयलां तातूंत होच विशय आसा - लोकशाय.'

'हें: हो विशय कसो आसतलो? चर्चेचो विशय लोकसाहित्य'.

'ना-ना. विशय लोकशाय असोच आसा.'

'अशें?! पळोवया.'

अशें म्हणून बाकीबाबान फायल हाडूंक लायली: ती पळयतकूच तांकांय पटलें, 'लोकसाहित्य' ह्या उतराचे सुवातेर 'लोकशाय' अशें टायप जाल्लें. बाकीबाबान म्हळें, 'आसूं. पळोवया.'

इतले म्हणसर पंडितांगेर गेल्लो कर्मचारी परतलो. ताणें सांगलें, 'पंडित येवंक पावना.'

तें निमित्त्य धरून हांवें ल्हवूच सुचयलें, 'बाकीबाब, पंडित पावनात, हांवेंय तयारी केल्या ती दुसऱ्या विशयाची. 'लोकसाहित्य' हो विशय तकलेंत ना. रिकॉर्डिंग फुडें धुकळया?'

बाकीबाबान म्हळें, 'हें: आमी दोगूय मेळून रिकॉर्डिंग करुंया. वितरावणेची तारीख थारिल्ली आसा.'

'पूण... म्हजे तकलेंत...'

'कांय भियेवंनाका तूं. जातलें तें'

आनी मागीर चर्चा मुद्रीत जाली. बाकीबाब उलयतात आनी हांव फकत 'हय'... 'हय तर',... 'ना'... 'तुमी म्हणटात तशेंच तें' इतलींच उतरां पर्थून पर्थून उच्चारतां! आनीक कितें करतलों!?

---

# जातीप्रथा आनी डॉ. लोहिया

## नागेश करमली

डॉ. राममनोहर लोहिया हे जातीप्रथेचो खरपणान विरोध करताले. जातीप्रथा अस्तित्वांत आसा मेरेन, खऱ्या अर्थान भारतीय समाजजीण बदलची ना, भारत खऱ्या अर्थान वयर सरचो ना, आनी मनशा मनशां मदें समानकाय येवची ना अशें ते म्हणटाले. जातीप्रथे आड एकसारको संघर्श जावंक जाय. तातुंतच भारताची खरी मुक्तताय आसा अशे ताचे विचार आसले. ते नदरेन ते स्वता प्रयत्न करताले आनी सक्रीयपणान वावुरतालेय. ह्या संबंधांतले डॉ. लोहियाचे हें कांय विचार:

● जातीप्रथा हें भारतीय संस्कृतायेन जल्माक घाल्लें सामकें घातमारें दायज. जातीप्रथा मानिना अशें व्हडपणान सांगपी, स्वता वेव्हारांत मात जात मानूनच वर्तणूक करतात. सगळे समाजजिणेंतले सगळे मुखेल वेव्हार जाती सांबाळुनच चलतात. हातूंत कोणाचोच आडवाद करपाचो ना. सामके शिकिल्ले सवरिल्ले लेगीत तशेच वागतात. सांगपाक ते जातीप्रथा विरोधी म्हूण दाखयतात. पूण तांची वर्तणूक? ती ते उलयतात ते प्रमाण नासताच. तांच्या ह्या वागपाचेर कोणेंय बोट दवरल्यार, तशें म्हणप्याकच ते जातीयवादी म्हणूंक लागतात.

● भारताक जायते खेपे परक्यांल्या आक्रमणा मुखार हार खावची पडल्या आनी कितलेच खेपो हो देश परक्यांच्या शेका तळा गेला. हाचें एक मुखेल कारण म्हळ्यार, आमच्यांतली जातीप्रथा. आमगेल्या कांय विद्वानांक, इतिहासकारांक, राजकी फुडाऱ्यांक हें म्हणणें मान्य ना: ते म्हण्टात, आमचे मदें एकचार नाशिल्लो, आमचेच मदें आमचीं झगडीं-झुजां चलतालीं आनी एकामेकां आड कट-कारस्थानां चलतालीं. ताका लागून आमकां परक्यां कडल्यान हार खावची पडटाली. हें सगळें सांगप म्हळ्यार जातीप्रथेचे हळशिकेचेर धांपणें घालून ती आसा तशीच चालू दवरपाचो एक घाणयारो प्रयत्न. एकचार नाशिल्लो म्हणटात तो कोणा मदें? देशांतल्या आस्पती उच्चवर्गी लोकां मदें आनी राजा राजां मदें तशेंच सुलतान सुलताना मदेंच मूं? कारण, शेंकड्यांनी सकयल्ल्या मानिल्ल्या जातींच्या लोकांक ह्या मोठ्या मोठ्यांचें कांयच पडून वचूंक नाशिल्लें. कोण राजा आयलो आनी कोण राजा गेलो, कोणा कोणा मदें झगडीं झुजां जालीं आनी कोण जिखलो वा कोण हारलो हें सामान्य मनशाक लागूच नाशिल्लें. तो युगां युगां आपलो कश्ट काडीतच जियेतालो. झगडीं-झुजां करपी आपणाल्या सुवार्थ सत्ते खातीर तीं करताले. सर्वसामान्य मनशाचें तांकां केन्नाच कांयच पडून वचूंक नासलें. ते आपणालेच व्हडविकेंत गुल्ल उरताले. तांकां कारभार मेळ्ळो, तांची भांडारां भरलीं म्हणटकीच जालें अशी आसली आमगेल्या समाजाची आवतीकाय.

● उच्चवर्णीय आनी कनिश्ठवर्णीय हांच्यांत संघर्श चालू आसता तेन्ना कनिश्ठवर्णीय लोकां मदले कांय जाण फटींगपणां करीतय. पूण इतलेच खातीर हांव कनिश्ठवर्णीय लोकांची कड घेवपाचें सोडून दिवचो ना वा उच्चवर्णियांचें समर्थन करचों ना. हो प्रस्न सादो न्हय. हो प्रस्न क्रांतीचो, पुराय सामाजीक परिवर्तनाचो. हे क्रांतींत, एक वर्ग ह्या नात्यान हांव सदांच कनिश्ठवर्णीय लोकांचेच वटेन रावतलों. कनिश्ठ-वरिश्ठांच्या संघर्शांत ताण-तणाव येतलेच; मेळ मिलाफय जातलो. तोडफोडय जातली. द्वेश, दुस्वास, मत्सर हेंय सगळें आसतलेंच. ते खातीर भियेवपाची गरज ना. ऊंच आनी सकली जमीन एका तळार हाडटना भुंयकांप जरी जालो ना तरी हांगा थंय मात मातशे धपके बसतलेच. ताका आमी तयार आसूंक जाय.

# अरण्यकांडः सामाजीक आनी रानचित्रणाचे नदरेंतल्यान

**प्रकाश पर्येकार**

महाबळेश्वर सैल हे एक प्रतिभासंपन्न लेखक. आयजवेर तांणी साबार आयाम आशिल्ले विशय कथा-कादंबऱ्यांतल्यान सजीव केल्यात. अणभव आनी अनुभुतींचें संचीत आशिल्ल्या ह्या लेखकान साबार साहित्यकृतीं वरवीं वाचकांक विस्मीत केल्यात.

साहित्य लेखन परंपरेची कसलीच फाटभूंय नाशिल्लो आनी शेतकार कुटुंबांत जल्मल्लो हो लेखक सुरवेक कथाकार म्हण वाचकां मुखार आयलो. कोंकणी साहित्यांत सैलान वेगळी सुवात निर्माण केली. आयजवेर तांणी सुमार देडश्यां वयर कथा बरयल्यात. *पलतडचें तारूं* (१९८९), *तरंगां* (१९९१), *बायनेट फायटींग* (२००५) हे तांचे कथासंग्रह.

'कोंकणींत कादंबरी बरोवप सामकेंच उणें आशिल्ल्यान सगळी जापसालदारकी, सगळो भार कथेचेर येवन पडलो. हातूंत कोंकणी कथा केन्ना घुस्मटिल्ली दिश्टीक पडटा... विशाळ फाटभूंय आशिल्ले विशय, सेबोटेज केल्ले वरी तुटक तुटकपणान कथेंत हाडल्यात. ही एक साहित्यीक पळवाट. जे मेरेन ताकिवंत साहित्यिकांचो एक पंगड पोटतिडकीन कादंबरी बरोवंक लागचो ना, ते मेरेन कथेचो घुस्मटमार उणो जावचो ना.' (सुनापरान्तः २२ मे १९९४.) हे विचार माशें-काणकोण हांगा १९९४ वर्सा जाल्ल्या 'मिनी कथा संमेलना'च्या उकतावण सुवाळ्याक अध्यक्ष ह्या नात्यान सैलबाबान मांडिल्ले.




तात्कालीन काळाक धरून महाबळेश्वर सैलान कादंबरी लेखना विशीं मांडिल्ले विचार भोव मोलाचे आसात. गोंय मुक्तताये उपरांत कोंकणींत (देवनागरी लिपयेंत) रवीन्द्र केळेकार हांणी बरयल्ले *तुळशी* (१९७१) हे नवलिकेक नवलिका प्रकारांत पयलेपणाचो मान फाव जाता. शणै गोंयबाबाचे *संवसार बुट्टी* (१९३३) उपरांत पुंडलीक नायक हांची *अच्छेव* (१९७७) आनी दामोदर मावजो हांची *कार्मेलीन* (१९८१) ह्यो म्हत्वाच्यो कादंबऱ्यो उजवाडा आयिल्ल्यो. १९९४ च्या 'मिनी कथा संमेलना'त वयलें विधान करचे पयलीं सैलाची *'काळीगंगा'* ही कादंबरी बरोवन जाल्ली जावंक जाय. कारण, ती मुखार राजहंस वितरणान १९९६ वर्सा उजवाडायल्या.

सैलबाबान मांडिल्लो तो विचार खासा तांणीच प्रत्यक्षांत हाडलो आनी एका परस एक, विशयाचे विविधतायेन नटिल्ल्या चार कादंबऱ्यांची आनी दोन नवलिकांची कोंकणी साहित्यांत भर घाली.

'कोंकणी साहित्य - वाचप्यांची अपेक्षा आनी पुर्तताय' (कुळागर-दिवाळी १९९६) ह्या आपल्या लेखांत दत्ता दामोदर नायक बरयतात, 'कोंकणी लेखकांनी वाचप्यांच्यो अपेक्षा पूर्ण करूंक अदीक साधना करूंक जाय. म्हजो इश्ट गजानन जोग खूब फावटीं म्हणटा, कोंकणी लेखक अभ्यासपूर्ण बरयनात ते अभ्यासपूर्व बरयतात' (पान. २९). हांगा दत्ता नायकान गजानन जोगाचें मांडिल्लें मत सामकेंच फट म्हणपाक जावचें ना. पूण महाबळेश्वर सैलांचे बाबतीत तें खरें म्हणपाक वाव ना. कारण, *युगसांवार* (२००४), *खोल खोल मुळां* (२००६), आनी *हावठण* (२००९) ह्यो तिनूय आनी हेर कादंबऱ्यो अभ्यासपूर्ण आनी अणभवनिश्ट. ह्यो कादंबऱ्यो बरोवंक बसचे पयलीं लेखकान विशयाचो अभ्यास केला म्हणपाचो प्रत्यय येता.

*अदृश्ट आनी अरण्यकांड* (१९९७) ह्यो दोन म्हत्वाच्यो नवलिका एका पुस्तकांत उजवाडा आयल्यात. ह्यो दोनूय नवलिका वाचप्यांचे पसंतीक उतरल्यात. काळजाक पीळ घालपी कथानक लेखकान तातूंत चित्रीत केलां.

'मनशाचो नीज धर्म म्हळ्यार मनीसधर्म' हें पावला कणकणीं मरणाची सुलूस लागतल्या कामदारांच्या पोव्यांतल्यान जण एकल्याक जाणवता. हें दाखयताना सैलांचे लिखणेक दिव्यत्व प्राप्त जाल्लें दिसून येता. एका श्रेश्ठ पांवड्याच्या तत्वज्ञानाचो साक्षात्कार, सामान्य मनशाक करून दिवपांत सैलान तेमक गांठिल्लें आसा' अशे विचार उजवाडावप्यान *अरण्यकांड* हे नवलिके विशीं मांडल्यांत. ६५ पानांचे हे नवलिकेंत 'उपरी' जीण जगपी एका विशिश्ट लोकपंगडाची कथा आनी व्यथा लेखकान चित्रायल्या. अटंग्या रानाचें जें दर्शन वाचप्यांक घडयलां तेच एके गजालीक लागून 'सैलाचे लिखणेक दिव्यत्व प्राप्त जाल्लें दिसून येता' अशें म्हणलां आसूं येता.

हे नवलिकेंतले पांच घराबे आनी एकवीस मनशां हीं मुळांत कोण आनी खंयचीं? 'एक उकतो उजाड गांव. शेकानशेक मळां आनी तिठे. गांवा कुशिची दोंगुल्ली, खुबस्तनी रेड्यावरी पातळिल्ली, तिवय उकती. गांव पुराय पावसार पातयेवन. पूण माती काळी मासाळ.' (पान. ६८), 'पूण माती काळी मासाळ' ह्या वाक्या वयल्यान त्या लोकांचो तो वाटार गोंयचो न्हय म्हण कळटा.

'एकादऱ्या वर्साक पावस आयलोच ना जाल्यार गांवाची सामकी

दैना जाताली' (पा. ६९). 'सगळोच म्हयनो देड म्हयनो पावस. एक फावट एक पीक काडून पावस गेलो म्हणटकीच धरतरेचो आसा तसो परतो तिठो जातालो' (पान ६८/६९). 'केन्ना आठ-धा वर्सांतल्यान एकादरो पावस सुकोच वयतालो' (पा. ७०). कादंबरेतलीं हीं वाक्यां थंयची पावसाची परिस्थिती सांगतात. 'महाबळेश्वर सैल- नांव एका कथाविश्वाचें' ह्या १ जानेवारी १९९४ च्या सुनापरान्त दिसाळ्यांत उजवाडा आयिल्ल्या लेखांत नागेश करमली *अरण्यकांड* हे नवलिकेंतल्या वाटारा विशीं बरयतना म्हणटात, 'हे नवलकथेक तशी सैलाचे नदरेंतली शिवेश्वरी फाटभूंय ना. हातूंत सह्याद्रीच्या माथ्यावयल्यान, घाटासकला पोट भरपाखातीर आयिल्ल्या कश्टतल्यांच्या उतळताप आनी मर्णाचे भकीक पडपी, भोगणारांची कथा आसा. तरी पूण शेकीं ही कथा घाटासकयल्या वाठारांत घडटा. तो वाठार शिवेश्वरय आसूं येता.' खासा लेखकान दिल्ले म्हायते प्रमाण, स्वेच्छा निवृत्ती घेवन पोस्ट खात्याचे सेवेंत रुजू जावचे पयलीं ते कांय क़ाळ येल्लापुरच्या रान वाटारांत फॉरेस्ट गार्ड म्हण काम करताले. त्या वेळार तांचो अटंग्या रानांत राबितो आशिल्लो.

ज्या नंदीकल्ल वसतींत ते लोक रावतात, त्या गांवचे लोक शेतकार. हीं पांचूय कुटुंबा तांचें शेताचें काम करतात. तांचो असो स्वतःचो वेवसाय ना. अशें आसलें तरी तांचो पूर्वज केन्ना तरी घणसाबैल घेवन ह्या गांवांत आयिल्लो आनी कसल्या तरी कारणांक लागून तो बैल मेल्लो म्हणपाचें कळटा. ह्या तांच्या उल्लेखा वयल्यान ते घणसाबैलकार, म्हळ्यार, ही 'थाकर' जमात म्हण कळटा. हे उपरे थाकर जमातीचे गरीबकायेचें आनी सामाजीक परिस्थितीचें वर्णन करतना लेखक म्हणटा, 'वसतेर एकच एक प्रचंड बाबळीचें झाड आसलें. मुळांतल्यान आनी खांदयांचो काडयो जाल्ल्यो. अशें सांगताले, तितलें व्हडलें झाड ह्या वाठारांक आनीक नासलें. त्या झाडाचे आशीकुशीक तांच्यो खोपी. जिवीत त्या झाडावरीच वठिल्लें, झडिल्लें, मरूंक तेकिल्लें. त्या झाडाक एक मूळ तरी आसलें. धरतरेंत पुराय रिगिल्लें. ह्या लोकांक आपलें मूळच नासलें' (पान. ६९). बाबळीचें झाड कांट्यांचें. त्या झाडाचें प्रतीक वापरून, त्या गांवांतल्या लोकांच्या शेतांत घोळपी, गोरवां राखपी, मेळत तें काम करून पोट भरपी, बांयच्या उदकाक तळमळपी, माथ्यार रीण घेवन जगपी लोकांची ही व्यथा लेखक भोवच कुशळटायेन चित्रायता.

'बैलांवरी ते मानेर जूंव घेवन तासांतल्यान भोवत रावले' (पा. ७०). 'कर्जाचें जूंव तांच्या खांदार आसलें. तें शेडावन उडोवचेली हिकमत आनी हिंमत तांच्यात मातूय नासली' (पा. ७०). कृशी संस्कृताये संबंदीत 'जूंव' हें उतर त्या थाकर समाजांतल्या लोकांची वृत्ती प्रवृत्ती चितारपाक लेखकान सुचकतायेन वापरलां.

एका वर्सा गांवांत पावस पडना. दुकळ पडटा. बांय सुकता. उदकाक लागून लोक वळवळटात. बायलो आपल्यो साडयो गुठलावन रांजवाक बांदून तिनसांजच्यो बांयत उडोवन दवरताल्यो आनी सकाळीं उठून उदक पिळून घेतल्यो. अशे स्थितींत वसती गंभीर येवजणुकेंत पडटा.

एक दीस पारपतदार (दलाल) गांवच्या लोकांचें रीण फारीक करून तांकां घाटमाथ्या सकयल क्रशराचेर काम करपाक घेवन वता. आमी आतां गांवच्या लोकांच्या रिणांतल्यान मुक्त जाले; जंय कामाक वतात थंय उदक मेळटलें; कामाचो मोबदलो म्हण पग़ार मेळटलो, हे आशेन ते रातोरात गांव सोडटात.

गांवकार रिणाच्या नाड्यार तांका नाचयताले. धमकायताले. रीण फारीक जाल्लें आसल्यारूय गांवकार म्हणटाले, रीण उरलां... पारपतदार म्हणटालो, तुमी सगळ्यांनी कागदार आंगठो दसयला. फटींगपणा केल्यार हातांत बेडयो पडटल्यो... हे अवस्थेंत ते पडटात. कामगारांची दलाली करपी मनीस तांकां हांगा 'ट्रॅप' करता. ही मानसीकता आयजूय पळोवंक मेळटा.

हे लोक सादे भावार्थी. मोन्यांनी सोंसून घेवपी. तांचे बावळे अन्याया आड केन्ना फुरफुरले नात. कर्जाचें जूंव शेडावन उडोवचेली हिम्मत तांच्यांत मातूय ना.

समाज ही 'संकल्पना' आनी 'व्यक्ती' हें वास्तव. ह्या व्यक्तींचो समूह म्हळ्यार समाजाची मानसीक जडण-घडण. तिका त्या समाजा भोंवतणची तात्कालीन परिस्थिती कारणीभूत आसता. तांचेर परंपरागत जाल्ले संस्कार तांचें मानस घडयतात. हे नवलिकेंतलो समाज असो वागता कित्याक? तांचें लोकमानस खेरीत पद्दतीचें क़ित्याक? हाचो सोद समाजशास्त्रीय अध्ययन घेता.

बाळाप्पाक हे काळे मातयेची ओड पूण तोच उदकाचो आनी अन्नाचो प्रस्न सोडोवपाक गांव सोडपाचो विचार मांडटा. वाचूंक बरोवंक जाणा आशिल्लो आनी चलो फौजेंत आशिल्लो विरण्णा आनी हणमंत सोडून हेर सगळे गांव सोडटात.

बाळाप्पा आनी ताची बायल दुरपदी; जनप्पा, बायल विठाय आनी चलो नरसू; गंगाराम, बायल गंगावती आनी म्हातारो बापूय रामप्पा; दत्तू आनी ताची बायल लक्षुमी; गोपू ताची बायल आनी चली रेणू हीं सगळीं क्रशरार दिसावड्याचें काम करपी कामदार मनशां. लेखकान सुचकतायेन आनी आपले खाशेले लेखन शैलीन तांकां चितारल्यांत.

गोपी, गोपीची बायल आनी रेणू हीं 'म्हार' समाजांतलीं पात्रां. जनप्पाचो चलो नरसू आनी गोपींची चली रेणू हांचें एकठांय येतात. तेन्ना सामाजीक पांवड्यार तांचे भितर उफाळून आयिल्लो संघर्श हांगा पळोवंक मेळटा.

फाटलीं वीस वर्सां क्रशरार.मुकादम म्हण काम करपी रुद्राप्पा, कामगारांक समजिकायेन वागोवपी दुसरो मुकादम जयानंद, दांडो घेवन सगळ्या कामगारांक धाक दाखोवपी भिमप्पा वॉचमेन आनी रेणूचो भोग घेवंक सोदपी क्रशराचो मालक काशिराम. हीं नवलिकेंतलीं हेर म्हत्वाचीं पात्रां.

मुकादम रुद्राप्पा पटयो दिवन पसऱ्या वयलें सामान तांकां घेवंक लायता. 'आमचो पगार कितलो गा?' अशें विचारल्यार, 'उपाशीं पडचे नात. उपाशीं पडल्यार मगेर दिसवड्याचें उलोवंचें. सावकाराल्या आंगार पयशे उरल्यार सावकार तुमकां वयतना फारीक करतलो. आतां तरी तुमच्याच आंगार रीण आसा. तें चुकतें जातलें तेन्नाच मुखावेलें उलोवंचें' (पान ८१-८२) ही जाप दिता.

एक दीस ट्रक बंद पडटा आनी मुकादम कामगारांक माथ्यार धरून फातर हाडपाक फर्मायता. त्या वेळार गंगाराम हिशेब.चुकतो

करचो म्हूण मागता. ह्या वेळार सावकार म्हणटा, 'हिशेब खंयचो चुकतो करात म्हणटा, तुमीच देणें लागतात आमकां... बरे करकरीत पयशे फारीक करून हाडिल्ले तुमकां. फुकट न्हय' (पान. १२) सावकार मुखार म्हणटा, 'नाय तर पयशे जोडून कितें करतले तुमी? इमारती बांदतले, काय कारखाने घालतले?'

क्रशरार कामाक तांकां देड वर्स जावन गेल्लें. पूण तांचें रीण फारीक जाय नासलें. वयले संवाद मुकादम आनी सावकाराचो कामगारा कडेन आशिल्ल्या संबंदाचो आनी दहशतीचो प्रत्यय दिता. श्रमजिवी वर्ग आनी भांडवलदार हांचे मदलो हो संघर्श. शोशक आनी शोशीत वर्ग हांचे मदीं चलपी हो संघर्श कांय म्हत्वाच्यो घडणुको उब्यो करून लेंखक नवलिकेंत दलीत, उपऱ्या, आवाज उठोवपाची तांक नाशिल्ल्या कामगार वर्गाचें दुःख चितरायता.

उदीम समाजांत वर्ग नाशिल्ले आनी निमणे कडेन समाजांत वर्ग उरचेनात अशें कार्ल मार्क्साक दिसतालें. दर एका पेण्यार भांडवलदार वर्गांतले कांय अंश श्रमजिवी वर्गांत विलीन जायत रावतले आनी शेवटाक फकत श्रमजिवी वर्गूच उरतलो आनी मनीस शोषणमुक्त जातलो असो मार्क्साचो विश्वास आशिल्लो. पूण आयज जगांत तशें जावंक ना. कामगार वर्गाचें शोशण जायत आसा. थाकर ही भटकी जमात. नंदीबैल घेवन ती गांव भोंवता. हे लोक पोटार बैल खेळयतात. कुळी वाचून दाखयतात. तांच्यो बायलो भोंवून गोजड्यो शिवपाचें काम करतात: होच तांचो एकमेव पारंपरीक वेवसाय. पूण नंदीकल्ल वसतींत आसतना ते शेतांत राबताले. आतां तर ते क्रशरार काम करपाक आयिल्ले. पोटाक लागून आयिल्ले परिस्थितीक तोंड दितना तांच्या पिळग्यांनी कामाची परंपरा बदल्ली.

हे लोक क्रशरार काम करपाक येवचे पयलीं थंय लमाणी लोक काम करताले. ते काम सोडून पळून गेल्ले. 'खंयचे जातीचीं मनशां रावन गेल्यांत कोणाक खबर. गेलीं कित्याक म्हण तीं?' (पा. ४०). अशें दुरपदी आपल्या घोवाक, बाळाप्पाक, विचारता.

'हे हांगा पयलीं आशिल्ले लोक कित्याक उठून गेले काय?' (पान. ८२) लक्ष्मी आपल्या घोवाक दत्तूक परत परत विचारता. लेखक हांगा ह्या सूचक संवादांतल्यान थंयचे स्फोटक परिस्थितीची वाचप्याक सुलूस दिता. तशेंच हांगा हो बायलांक पडिल्लो प्रस्न मुखावयल्या कथींत संघर्षाचो फाटलाव करता.

थंयचे आदले परिस्थितीचें चित्रण आनी नव्या पोव्यांक जाणविकाय करून दिवचे खातीर लेखकान दोन म्हत्वाचीं पात्रां चितारल्यांत. एक, वड्डाराल्या पंगडांतली फातरफोडी बायल आनी दुसरो, पिसो गुंडाप्पा. ती फातरफोडी बायल कामाचे नेम आनी वायट बऱ्यो घडणुको तांकां सांगता. लमाणी पळून कित्याक गेले तेंवूय ती सांगता.

गुंडाप्पा फातरफोडो म्हण काम करतालो. तो पिसो, पूण क्रशराचें काम करून, अन्याय अत्याचार सोंसून तो पिसावल्लो. हें पात्र लेखकान सूचकतायेन आनी फिशालकायेन चितारलां. ताचे गांठीक अणभव आसात. 'फातराचे खणीर फातर दाळून पुरतलों एक एकल्याक. हंयचे फातर म्हटल्यार मातयेचे धेपे न्ही. घण माल्ल्यार रटे तुट्टात. दर एक फातरांतल्यान रगताची फळफळीत धार... फातर घालचे नात ते. क्रशरांत तुमचीं हाडां घालतले. तुमचें रगत पिळटले...' (पान. ८४.)

ह्या क्रशरार तीन तरांचे लोक काम करतात. पयलो फातर फोडपी वड्डरांलो पंगड. दुसरो लागिंच्या गांवचो पंगड जो फातर ट्रकांत भरून क्रशरार हाडटालो. आनी तिसरो पंगड क्रशरांत फातर घालपी. तशेंच दुसरे वटेन सावकार, पारपतदार, मुकादम, वॉचमेन आनी पसरकार. सगळेच एके सांखळेन गुंथिल्ले. धेंक गाजोवपी आनी धेंक गाजोवन घेवपी.

पोटा खातीर धडपडपी मनशाची अवस्था अशीच आसता. मनशाक पोट भरपाक जाय. ते खातीर तो आपले मुखार आशिल्ले परिस्थितींत विरगळून वता. तो तातूंत शेणून वता. हे नवलिकेंत सुखा खातीर धडपडपी मनशांचें चिरंतन रूप लेखकान दाखयलां. हाकाच लागून तिचे भितर वैश्वीक मुल्यां आशिल्लीं पळोवंक मेळटात.

'सैलांनी स्त्रीमध्ये प्रेमाचं एक विराट स्वरुप बघितलेलं असावं. भयंकर गरीबीत वाढलेल्या जरी त्या आसल्या, तरी प्रेमाच्या बाबतीत कादंबरीतल्या साऱ्या स्त्रिया जणू पृथ्वीमोलाच्या आहेत. त्यांच्या प्रेमानेच ही कादंबरी थपथपलेली आहे. प्रत्येक स्त्री जणू मातृशक्तीचे प्रतीक आहे. म्हणूनच असेल, ती परिस्थितीशी लढत असताना मोडून पडल्यासारखी वाटली तरी उभी राहते' (स्वगत, रवीन्द्र केळेकार, नवप्रभा, ह्या लेखाचे उजवाडावणेची तारीक सद्यां हाता कडेन ना) *काळीगंगा* ही सैलाची कादंबरी वाचून भौ. रवीन्द्र केळेकार हांणी हें मत 'स्वगत' सदरांत मांडिल्लें. स्त्रीपात्रां विशीं मांडिल्लें हें मत महाबळेश्वर सैल हांचे प्रतिभे कडेन आनी बायले कडेन पळोवपाचे तांचे नदरे कडेन आमचें लक्ष ओडटा.

सैलबाबान आयजवेर साबारःस्त्री पात्रां आपले कथेंतल्यान आनी कादंबरेंतल्यान उबीं केल्यांत. हीं सगळीं बायल व्यक्तिमत्वां ह्या लेखकाक खंय मेळ्ळीं असो वाचप्याक प्रस्न पडटा. मध्यमवर्गीय आनी गरीब दुबळी बायल खूब फिशालकायेन तांणी चित्रायल्या. तांचें दुःख, तांची निरागसता, तांचे हावेस, तांचो संघर्ष अशीं तरेकवार रुपां तांच्या साहित्यांत धोंगां-पोंगां सयत येतात.

हे नवलिकेंतूय दुरपदी, विठाय, लक्ष्मी, गंगावती, कडडर समाजांतली फातरफोडी बायल, गोपूची बायल आनी चली रेणू हे सारकीं पात्रां मेजक्याच संवादांतल्यान आनी आपले खाशेले निवेदन शैलींतल्यान तांणी उबीं केल्यांत.

सगळ्योच व्यक्तिरेखा समान पांवड्यार आनी निरागसतायेक वेंग मारून आसल्यो तरी त्यो तांचे भितर वेगळ्यो आसात.

गंगावती, विठाय, लक्ष्मी आपल्या नशिबाक दोश दितात. रानांतल्यान चलतना सगळ्यांचींच भुरगीं उदका खातीर रडटात. गंगावती आपल्या ल्हान भुरग्याक एका सारकी दूद दिता. तेच बराबर तीन वर्सांच्या चल्याकय ती आपलें दूद पाजता. तेरा वर्सांचें शांती रानांत शेणटा तेन्ना ताची आवय विठाय हांबेल फोडून रडटा. रेणू रानांत मरता तेन्ना 'म्हजें बाय खंय रे देवा!' म्हण रेणूची आवय ताळो फोडून रडटा आनी देवाक दुशणं दिता.

ह्या बायलांचो देवाचेर भावार्थ, पूण तात्कालीन परिस्थितींत ती स्वतः ते परिस्थिती कडेन झगडटात. हांगां चाळीस वरांचे काळ-

भोंवडेत एकवीस जाणांतलीं बारा मनशां मरतात. काळजार फातर दवरून तीं आपल्या रगताच्या मनशांचीं मडीं रानांत सोडून फुडली वाट चलतात. चलपी लोक थकतात, पूण तीं चलपाचें सोडिनात. एक-दोन फावट रामू झाडार चडून उदकाचो अदमास घेता. पयस न्हंय दिसता आनी तेच आशेर ते परत चलपाक लागतात. ह्या प्रसंगाचें वर्णन करतना लेखक म्हणटा, 'पयस पयस एक न्हंय, उदकान उपाट भरून मृगजळावरी हाताभायरी. एक फटकिरी आस्त. एक अखंड रान, हजार दिशांचें, हजार वाटांचें. झाडां झोपांनी उपाट भरून सामकें दळिद्र. ह्या दयामायाहीण रानांत रानमोनेळ घालून तांकां एका चक्रव्युहांत हाडून सांपडायलां...' (पान ११८.)

लेखकाची रानवळख दाणगी आसा. रानविद्येचें गिन्यान अजाप करी सारकें आसा. अणभव आनी अनुभुतीन गिरेस्त आसले बगर *अरण्यकांड*ांतलें रान उबें करप शक्य ना. खूब कडेन काव्यात्मक भास वापरून रानाचीं प्रतिकां उबीं केल्यांत. पोंवो रातचो पळपाक सोदता त्या वेळाचें चित्र उबें करतना लेखक बरयता, 'एक अनवळखी, उपरो, पिसाट पोंवो एका रानाचे पांयवाटेच्या तोंडार उबो. काळखांत झुमरां केसांचे काळे राकेस कशे दोंगर फाटल्यान फुडल्यान पातळिल्ले...' (पान १०४)

सैलान *अरण्यकांड* हे नवलिकेंत चित्रायल्लें रान फातराळ, कांट्यांचें रान. हें रान दाट वा गच्च झाडांचें न्हय. हांगा खोल खोल दरयो नात. दोंगर खंडयो नात... *अरण्यकांड*ांतल्या ह्या राना परसूय चड भयानक रान अस्तित्वांत आसा. एकदां भितर सरतकच ताचो अंतपार लागना. ह्या रानाक रानवाटो आसनात. दोंगर चडपा देंवपाक 'सरयो' धरून चलचें पडटा.

सैलाचें रान हें चैत्रांतलें रान. ह्या वेळार रानांत उदक नासता. झरी, व्हाळ, पौष म्हयन्यांत सुकतात. चैत्रांत उदक जाय जाल्यार एकाद्रे बेतांचें रान सोदचें पडटा. झाडार चडिल्ली पालकोण्याची वेल वा उसकीची वेल पळोवन ती झाडार लोंबकळिल्ली आसतना कोयत्यान तोडची पडटा. अशे तरेन बेत, उसक वा पालकोण्यांतलें उदक पियेवन तान भागोवची पडटा. पूण अरण्यकांड हे नवलिकेंतली रुखावळ सामकी वेगळी आशिल्ल्यान अशे तरेचे संदर्भ तातूंत येवंक नात.

लेखकाचो जल्मगांव माजाळी-कारवार. भुरगेपणांत लेखकान रान माडडयलां. येल्लापुरच्या अंटग्या रानांत ते कांय वर्सां आशिल्ले. हाचो ह्या लेखाचे सुरवेक उल्लेख आयला. सैन्यांत आसतना दोंगराळ वाटारांत·भोंवपाचे, वाट चुकून शेणपाचे अणभव तांच्या वांट्याक आयल्यात. ही सगळी फाटभूंय आशिल्लो लेखक आपली अनुभुती हांगा कसाक लायता. सादे सुटसुटीत काव्यात्मक भाशेच्या बळार तो *अरण्यकांड*ांतलें रान उबें करतात.

'तो आड्डता थंयच आसा. पोव्यांतलो जण एकलो आतां व्हडाव्हडान आपलेपरीन आड्डूंक लागलो. कांय वेळ तांचे रासवळ आड्डणेन रान हाल्लें' (पान १०७). 'पूण पावला पावलाक वाट सोदून काडची पडटाली. ते दोंगराच्या माथ्यार पावले तेन्ना चोंयवटेन चकचयाळ उजवाड पातळिल्लो. सगळो वाठार रुपयाळ्या उजवाडांत नितळ न्हातालो' (पान १०९). 'वोत चडटा तसो वोताचो रखरख त्या जड्ड्या रानांत देवंक लागलो. झाडांच्यो सावळ्यो जशो वोत पिवन उब्यो आशिल्ल्यो.' (पान १११). अशीं कितलींशींच अरण्य वर्णनां लेखक चित्रायता. जितें जिवें अटंगें रान तो वाचप्यांच्या दोळ्यां मुखार उबें करता. असलें हें रान प्रत्यक्ष भोंवन पळयले बगर ताचो होलम मेळपाचो ना.

आपल्या रगताच्या, नात्यांतल्या रानांत मरून पडिल्ल्या मनशांक हीं मनशां थंयच सोडून मुखावयली वाट कित्याक चलतात? ह्या मनशांक मात्तूय मनीसपण ना? तांकां भावना ना? अशे साबार प्रस्न वाचप्यांक तो पोंवो रानांतल्यान चलतना पडटात. वयर म्हळां तशें, गांव आनी उदकाच्या सोदा वांगडाच जण एकल्याचें 'जगप' हेंच मुखेल ध्येय जाता. जिवीं आसात तांचे खातीर तरी आमी चलपाक जाय होच एक हावेस मरणा पंलतडीं पाविल्ल्या त्या पोंव्यांतल्या लोकांक दिसता. अशें आसलें तरी जनाप्पाक आपलो भुरगो मेला हें खबर आसून लेगीत ताका आपूण न्हंयचे तडीर मातयेक लायतलों हे आशेन तो चलत रावता. आपलें चली शांती रानात शेणलां हाचीय ताका खंत आसता.

निमणे कडेन हो पोंवो उदकान भरिल्ले बांय कडेन पावता. विठाय सगळ्यांक उदक दिता पूण आपल्या घोवाक आनी चल्याक उदक दिवंक वता तेन्ना ते मेल्यात म्हणपाचें तिका कळटा.

पावस नासून उदकाची बांय सुकून सडसडीत जाल्ल्यान आनी खावपा जेवपाक काय ना म्हण आपलो गांव सोडपी हे लोक निमाणे मनीस निर्मीत बांय कडेनूच पावतात. थंयचे लोक तांकां 'येयात, आयज तुमी आमचे सोयरे' अशें म्हण तांचें स्वागत करतात. तर दुसरे वटेन विठाय आपलो आपलो घोव आनी पूत मरून पडला म्हण काळीज फोडपी किळांच मारता.

फ्लॅश बॅक तंत्रान सुरू जावपी हे नवलिकेक तीन मुखेल भागांनी आमच्यांनी विभागूं येना. पयलो, नंदीकल्ल वसती आशिल्लो गांव, दुसरो क्रशर आनी तिसरो रानातलो तो रानवाठार. ह्यो तिनूय घटना तीन वेगवेगळ्या वाठारांनी घडटात आनी निमाणे कडेन तो उपरो पोंवो चवथे सुवातेर पावता.

किरण बुडकुले 'दोन वाटचिऱ्यांच्या संदर्भांत कोंकणी कादंबरी' (कुळागर दिवाळी १९९७) ह्या लेखांत म्हणटात, 'कादंबरी हो प्रकार मुळांतच निवेदनरुपी आशिल्ल्यान तातूंत उत्सुकताय आनी उत्कंठा ह्या मानवसुलभ प्रवृत्तींक धादोशी करचेली सैमीक शक्त केळोवपाक भोव वाव आसता. गद्य जावनय तातूंत कथानकांचें सुरबूस सूत्र, पात्रांचें मनभुलोवणें रूप, संघर्शाची प्रभावी कीट, घडणुकांचो फावसो ओघ, क्रम-विमुक्त कथन हांचो शिरशिरो आसल्यार कादंबरीक सोंपेपणी मरण ना.' (पान १६). कादंबरे विशीं मांडिल्ले हे विचार सैलबाबांचे हे नवलिकेक लागू जातात.

*अरण्यकांड* हे नवलिकेचो आनंद वर्टी हांणी मराठींत अणकार केला आनी ती 'महानगर' दिवाळी अंकांत १९९९ वर्सा त्याच नांवान उजवाडा आयल्या. विशयाचें वेगळेपण आनी मांडपाची कळाशी घोटीव जाल्ल्यान ही नवलिका वाचप्यांक मंत्रमुग्ध करता. कोंकणींत पयलेच फावट रानाची फाटभूंय आशिल्लो विशय सैलबाबान कलात्मकतायेन मांडला. खरें म्हळ्यार ही नवलिका हेर भारतीय

***(पान २५ चेर पळयात)***

# कादंबरी: साहित्यप्रकार आनी रचनातंत्र

**हनुमंत चोपडेकार**

### साहित्य आनी साहित्यप्रकार

पुर्विल्ल्या भारतांत 'साहित्य' ह्या उतराच्या जाग्यार 'काव्य' हें उतर घोळणुकेंत आशिल्लें. संस्कृत आचार्य भामह, राजशेखर, भोजराज हांणी कवितेची व्याख्या मांडटना शब्द आनी अर्थाच्या सांगाताकच काव्य हें नांव दिलां. उपरांत होच सांगात ('सहभाव') 'साहित्य' जावंक पावला. उपरांतच्या काळांत काव्याचो अर्थ संकुचीत जावन तो फकत 'कविता' म्हूण मर्यादीत उरलो जाल्यार 'साहित्य' ह्या उतराक नवी व्यापकताय फाव जावन पद्यात्मक तशेंच गद्यात्मक रचनेक 'साहित्य' म्हणपाची चाल आयली. आर्विल्ल्या युगांत साहित्य ह्या उतराचो अर्थ इंग्लीशींतल्या 'Literature' ह्या उतराच्या अर्थाक लागीं गेला. साबार लिखीत आनी मौखीक रचना व्यापक अर्थान साहित्यांत अपेक्षीत आसात, जाल्यार संकुचीत अर्थान साहित्य 'काव्य' म्हूण अभ्यासतात.

आयच्या अभ्यासकांनी साहित्याक समाजाचो हारसो मानला. समाजांतले सगळे वेव्हार तश्याक तशे साहित्यांतल्यान उकते जावचे असो तांचो हावेस. साहित्यांत कलात्मकतायेकूय वाव आसा हेंवूय तांणी मानून घेतलां.

भारतीय संस्कृत साहित्यशास्त्राचो आदार घेवन 'साहित्य' ह्या शब्दाची उस्तवारी करूं येता. ख्रिस्ती सनाच्या पांचव्या सव्या शेंकड्या सावन काव्यशास्त्राच्या विंगड विंगड आयामांचें अध्ययन जाल्ल्याचें स्पश्ट जाता. भारतीय दृष्टीकोन काव्याक/ 'साहित्या'क *'साहिताय साहित्यः'* अशें मानता. सगळयांच्या हिताचें आसता असलें बरप म्हळयार साहित्य. चडांत चड लोकांनी वाचच्यो आनी बरोवच्यो ह्या हेतून बरयल्ल्यो कृती म्हळयार साहित्य. ह्या साहित्यांतल्यान वाचप्याक आनी आयकुप्याक अलौकीक आनंद आनी खोस दिवपाचो यत्न बरोवपी करीत आसता. सर्वसामान्यांचे भावनेचो आविश्कार ज्या साहित्यांतल्या योग्य रितीन जाता तेंच खरें साहित्य म्हणूं येता. मात बगर झाड मेळना, शेत मेळना, तशेंच समाजा बग साहित्य मेळूंक शकना. साहित्य समाजांतूच किल्लून वयर सरता. साहित्यरुपी पोरसांत बरोवपी समाजांतलीं वास्तवीक फुलां तांच्या रंग रूप गंधा सयत हाडून सोडटा आनी वाचप्याक आपल्या शब्द सामर्थ्या वरवीं मंत्रमुग्ध करता. साहित्य आनी समाज हांचें नातें सामकें लागींचें. खरें म्हळ्यार, आमचे भोंवतणी साहित्याचीं बिंयां शिंपडिल्लीं आसतात. एकाद्रो गिरेस्त प्रतिभेचो धनी आपले ईश्वरी प्रतिभाशक्तीन तांचें वेगळ्या वेगळ्या साहित्य प्रकारांत रुपांतर करता. कविता, कथा, नाटक, कादंबरी नवलिका, चरित्र आनी निबंद हे साहित्याचे मुखेल प्रकार.




संवसाराचो इतिहास म्हळ्यार समाजाचे उदरगतीचो इतिहास. समाजांत ज्यो घडणुको नित्यनेमान घडत आसतात, जे बदल जायत आसतात आनी जीं राजकी, सांस्कृतीक, सामाजीक स्थित्यंतरां जायत आसतात तांचें शब्दरूप त्या त्या वेळा वयल्या बरपांनी दिश्टी पडटा. एके तरेन साहित्यकार इतिहासकाराच्या रुपानूच समाजाची सेवा करता अशें म्हणूं येता. समाजांतलीं साबार परिवर्तनां आनी मुखेल घडामोडी त्या त्या काळाचीं प्रेरणास्थानां आसतात. समाजाचे गरजे प्रमाण ते ते तरेचें साहित्य त्या त्या काळांत ज़ल्माक येता. श्रीकृष्णान सांगिल्ली 'भगवद्गीता', तुकारामाचे अभंग, शाहिरांचे इतिहासीक पोवाडे, शणै गोंयबाबाचें साहित्य, रवीन्द्रनाथांली *'गीतांजली'*, महात्मा ज्योतिबा फुलेंचें साहित्य, शेक्सपियराचीं नाटकां, ह्यो साबार साहित्यकृती त्या त्या काळांत गरज म्हूण जल्माक आयल्यात हातूंत दुबाव ना. रामायण, महाभारत, संतसाहित्य, लोकसाहित्य, कथा, कविता, कादंबरी, चरित्रवाङ्मय आदी बरपां आनी बरपांच्यो तरा. समाजाच्या फुडाराची दिका निर्देशीत करीत आयल्यात.

समाज बदलत आसता. तो बदलता तशें ताचें चित्रण साहित्यांतल्यान जावचें पडटा. अशा वेळार साहित्यांतली सामाजीकताय तपासपाचें काम समिक्षक करता. मुखेलपणान कादंबरी ह्या साहित्यप्रकाराचो आदार समिक्षक वयल्या गजालीं खातीर घेतात. कादंबरी वा नवलिका समाजांतल्या तरेकवार प्रस्नांची उस्तवारी करपाक जैतिवंत थारिल्ल्यान साहित्य आनी समाज

हांचें दाट नातें तातुंतल्यान सिद्ध करपाक मेळटा.

साहित्याचें वर्गीकरण करतना अभ्यासप्यांनी तीन मुखेल भेद केल्यात - गदय, पदय चम्पू आनी कादंबरी/नवालिका, कथा/कथिका, नाटक/एकांकी, निबंद, समिक्षा आनी चरित्र हे गदय साहित्याचे प्रकार.

### कादंबरी: एक साहित्य प्रकार

गद्याच्या वयल्या साबार प्रकारां भितर 'कादंबरी' वा 'नवलिका' हो प्रकार जिविताचें सर्वांगीण चित्रण करपाक यशस्वी थारला. उरिल्ल्या दर एका प्रकाराचें खाशेलें म्हत्व आसाच पूण कादंबरेंतल्यान मनीस संस्कृतायेचें आनी सभ्यतायेचें विस्तृत दर्शन मार्मिकतायेन घडूं येता. देखुनूच ह्या साहित्यप्रकाराक समिक्षकांचे नदरेनूय चड मोल फाव जालां.

आयच्या युगांत कादंबरी/नवलिका हीं उतरां इंग्लीशींतल्या Novel ह्या उतराक लागपी उतरां म्हूण घोळणुकेंत आयल्यांत. थोडे भितर, 'विस्तृत कथानकाचें गद्य बरप' असो ह्या प्रकाराचो अर्थ. साबार भारतीय भासांतले कादंबरेचेर हो येवरोपी प्रभाव आसा. मराठींत 'कादंबरी', बंगालींत हिंदींत 'उपन्यास', कोंकणींत 'कादंबरी'/ 'नवलिका' हे प्रयोग मुखेलतायेन 'नॉवल' ह्या शब्दाच्या संदर्भांतूच आयल्यात.

**कादंबरेचे घटक**

कथावस्तू, पात्र चित्रण, निवेदन, वातावरण निर्मणी, संघर्श आनी उद्देश/ हेतू-प्रयोजन हे कादंबरेचे घटक अशें जाणकारांनी मानून घेतलां.

**कथानक**

कादंबरी/नवलिका ह्या साहित्यप्रकाराचो पयलो म्हत्वाचो घटक म्हळ्यार 'कथानक'. कादंबरेंत मुखेल कथानका वांगडा उपकथानकूय आसता. पूण दोनांय मदीं परस्पर संबंद आसप गरजेचो. ई.एम्. फॉस्टर हांणी "Story" आनी "Plot" असो एक भेद केला. तार्चे स्पश्टीकरण दितना ते म्हणटात, "The king died and then the queen died, is a story, but the king died and then the queen died in grief, is a plot." हाचेर भालचंद्र गांवकार आपल्या *'साहित्य एक भासाभास'* ह्या पुस्तकांत म्हणटात, हाचे वयल्यान, फकत एका फाटल्यान एक ह्या क्रमांन येवपी घडणुको कादंबरेंत म्हत्वाच्यो नासतात. तर तातुंतल्यो घडणुको एकामेकां कडेन कार्याचे रितीन वा हेर खंयच्या तरी संबंदान जोडिल्ल्यो आसूंक जाय. दोन घडणुकांच्या असल्या संबंदाक लागून सुरवे सावन निमाणे मेरेन कादंबरेक एक व्हांवर्ते कथानक लागू जाता.

हिंदींतले नामनेचे समिक्षक आनी संशोधक गणपती चंद्र गुप्त कादंबरेच्या कथानकाक तीन गूण गरजेचे अशें म्हणटात - रोचकताय (लालित्य), सभावीकताय (सैमीकपण) आनी प्रवाह / गतिशीलताय (व्हांवतेपण). *(भारतीय एवं पाश्चात्य काव्यसिद्धांत, पान ३०१)*

**पात्रचित्रण:** पात्रां वा व्यक्ती कादंबरीकाराचें भांडवल. ह्याच भांडवलाचेर कादंबरीकार आपले प्रतिभेचो साज चडोवन कल्पनेंतली नवी सृश्ट निर्माण करता. कथानकांत सभावीकताय अपेक्षीत आसता तशीच सभावीकताय आनी सजीवताय पात्रचित्रणांतूय आसप गरजेची. कादंबरेंतल्या पात्रांचो सभाव, तांच्यो वृत्ती, मनोवृत्ती अश्या साबार गजालींचें चित्रण बरोवप्याक करचें पडटा. विशिश्ट प्रसंगांचेर एकाद्र्या पात्राची चलणूक ताचे मानसीकतायेचे उजवाड घालता. देखून व्यक्तिरेखा उब्यो करतना कादंबरीकाराक शादूरताय बाळगुची पडटा. रामायण, महाभारतांतल्यो पुराणीक व्यक्तिरेखा वा आयच्या काळांतल्यो व्यक्तिरेखा उब्यो करतना बरोवप्याक जतनाय बाळगुची पडटा.

इ.एम्. फॉस्टर हांणी दोन तरांचीं पात्रां मानल्यांत flat character (स्थितीशील पात्रां), round character गतीशील पात्रां.

**निवेदन:** घडणूक घडटा वा घडिल्ली आसता तांची सविस्तर खबर सांगप म्हळ्यार निवेदन करप. इंग्लीशींत ताका 'narration' अशें म्हणटात. हें निवेदन करप्याक निवेदक (Narrator) म्हणटात. कथा कादंबरी ह्या प्रकारांत निवेदक भोव म्हत्वाचो आसता. ताका Mediasary अशेंय म्हणटात. जायते फावटीं स्वता बरोवपीच निवेदकाची भुमिका स्विकारता जाल्यार कांय फावटी तो खंयच्या तरी पात्राचे भुमिकेंतल्यान पुराय कादंबरेचें निवेदन करता. हांगा तो आपूण कथानकाचो घटक जावन वावुरता.

हालींसराक चिटयेंतल्यान निवेदन, फोनाच्या माध्यमांतल्यान निवेदन, संवादाच्या माध्यमांतल्यान निवेदन,. दिसपटयेच्या माध्यमांतल्यान निवेदन अश्यो निवेदनाच्यो विंगड विंगड तरा मुखार आयल्यात. *ययाती* (वि. स. खांडेकर) सारकेले कादंबरेंतल्यान भोवपात्री निवेदनाची रीत आपणायल्या. निवेदन तीन तरांचें आसूं येता. प्रथमपुरुशी निवेदन, द्वितीयपुरुशी निवेदन आनी तृतीयपुरुशी निवेदन.

**वातावरणाची निर्मणी:** कादंबरेंतल्या पात्रांक, तिच्या कथनकांक विंगड विंगड परिस्थितींची वा वाटारांचीय फाटभूंय आसता. देखून पात्रांचे भोंवतणचो वाटार, परिस्थिती, वातावरण चितारप ही कादंबरीकाराची लागणूक जाता आनी वातावरणाची निर्मणी हो कादंबरेचो मुखेल घटक थारता. प्रादेशीक कादंबरी, शारी कादंबरी, दलीत / आदिवासी कादंबरी अश्यो शब्दरचना कादंबरेच्या मळाचेर वाचूंक मेळटात. शिवराम कारंथांच्यो कन्नड कादंबऱ्यो, मुंशी प्रेमचंदांच्यो हिन्दी कादंबऱ्यो वा महाबळेश्वर सैल, पुंडलीक नायक हांच्यो कोंकणी कादंबऱ्यो प्रादेशीक वातावरणाक लागून संवसारभर गाजल्यात. सैम, भोवतणचो वाटार, लोकांची जियेवपाची तरा, सारकेल्यो साबार गजाली कादंबरेच्यो घटक जावन वावुरतात. देखून आयचे समिक्षेंत सौंदर्यशास्त्रा वांगडाच पर्यावरणीय समिक्षेचो (Ecocriticism) आसपाव पळोवंक मेळटा.

**संघर्श:** संघर्श कादंबरेचो प्राण. खरें म्हळ्यार, संघर्शा बगर खंयचीच साहित्यकृती उबी रावंक पावना. कवितेंत लेगीत नकळटना संघर्श भावनीक कलह निर्माण करता. कादंबरेंत पात्रांक आनी हेर घटकांक धरून संघर्श मुखार चलत आसता. वैचारीक संघर्श, भावनीक संघर्श, मानसीक संघर्श, सैमीक संघर्श, सामाजीक संघर्श, राजकी

संघर्श अशीं संघर्शाचीं विंगडविंगड रुपां कादंबरेंतल्यान मुखार येतात.

ज्ञानपीठ पुरस्कार जोडिल्ले *संस्कार* हे कन्नड कादंबरेंत बरोवपी यू. आर. अनंतमूर्तिन जात धर्म आनी समाजव्यवस्था हांचो संघर्श दाखयता आसतना सैमीक संघर्शूय उबो केला. विश्राम बेडेकरांचे *रणांगण* कादंबरेंत भावनीक आनी मानसीक घुस्मटमाराचो संघर्श उकतो जाला. महाबळेश्वर सैल हांचे *अरण्यकांड* हे नवलिकेंत मनीस आनी सैम हांचे मदलो संघर्श आयला. आपलें अस्तित्व तिगोवपा खातीर चालिल्लो मनशाचो संघर्श *अरण्याकांडांत* आयला.

**उद्देश / हेतू - प्रयोजनः** साहित्य समाजाचो हारसो अशें म्हणटात. पूण लेखक वा कादंबरीकार समाज तश्या तसो चित्रायना. आपले कल्पनाशक्तीची आनी कल्पकतायेची जोड दिवन एक नवो संवसार तो जल्माक घालता. हांगा वास्तवताय तो शेणूंक दिना, पूण कलात्मकतायेचो आदार मात घेता. पोजडे वास्तवतायेंतल्यान नवे नितीपूर्ण आनी चारित्र्यवान समाज वेवस्थेची बुन्याद घालपाचो यत्न तो करतां. समाजांतल्या राकेसपणाचेर बडी मारून मनीसपणाचीं बियां रुजवणाक येवचीं हो हेत तो बाळगिता. कादंबरेचे रचणुके फाटल्यानूय होच हेत आसता. रावणाच्यो दुश्ट प्रवृत्ती दाखोवन निमाणें अरिश्ट शक्तीचेर शिश्ट शक्तीचें जैत ताच्या प्रयोजनाक सारें-उदक घालता. कादंबरेचो अखेरूय तिच्या हेता-प्रयोजना कडेन जोडिल्लो आसता.

कादंबरेच्या वयल्या घटकांच्या आदारानूच तिचे तरेकवार प्रकार जाणकारांनी मानल्यात. जायत्या समिक्षकांनी अशे प्रकार थारावपाक विरोधूय केला. पूण अभ्यासाचे नदरेंतल्यान तांची म्हायती दिवप समा जातलें. घटना प्रधान कादंबरी, चरित्र प्रधान कादंबरी, इतिहासीक कादंबरी, मनोविश्लेशणात्मक कादंबरी, पुराणीक कादंबरी आनी राजकी कादंबरी हे कादंबरेचे प्रकार अशें सामान्यतायेन समिक्षकांनी मानलां.

पूण, हें वर्गीकरण जायते फावटीं अवेव्हारीक आसता अशें म्हणूं येता. सामाजीक मनोविश्लेषणात्मक कादंबरेक घटनाप्रधानताय वा चरित्रप्रधानतायेची जोड आसताच, म्हणटकच हे वेगळे वेगळे भेद कित्याक? देखून कादंबरेचें वर्गीकरण तिच्या विशयाक आनी रचनातंत्राक धरुनूच करूंक जाय. पूण वांगडाच वैयक्तीक, कुटुंबीक, राजनितीक, इतिहासीक, मनोविश्लेशणात्मक, राष्ट्रीय आदी तासांचो आदारूय घेवं येता. कादंबरेचें वर्गीकरण स्थायी रुपान केन्ना करूंक येना. प्रत्येक युगांतले कादंबरेचे बदलते तरे वांगडा तें अप-डेट करचें पडटा.

कादंबरी हो साहित्याचो विस्तृत आनी लवचीक असो प्रकार. ह्या प्रकारांतल्यान एक सविस्तर कथावस्तू तिच्या साबार खाशेलपणां सयत उकती जाता. रचनातंत्र, शैली, तांत्रीक फास्की, रचना प्रक्रिया, आंवाठ मतींत धरुनूच कादंबरेचें वर्गीकरण जावप गरजेचें. डॉ. गणपतीचंद्र गुप्त आपल्या *'भारतीय एवं पाश्चात्य काव्यसिद्धांत'* ह्या पुस्तकांत कादंबरेच्या मूळ तत्वांक धरून तिका सात तरांनी वांटून घालता –

कथावस्तू-प्रधान वा घटना-प्रधान, चरित्र-प्रधान, कथोपकथन-प्रधान वा संवादात्मक, देशकाल वा वातावरण-प्रधान, शैली-प्रधान, उद्देश-प्रधान वा विचारात्मक वा समस्या-प्रधान, रस-प्रधान वा भावनात्मक.

रा. भि. जोशी हे नामनेचे मराठी साहित्यकार म्हणटात ''साहित्याचा संदेश म्हणून जर काही असेल तर तो माणसातील माणूसकी जागी करणे, त्यांच्या सहानुभूतीची कक्षा वाढविणे हा आहे. साहित्याचा परिणाम जो खरोखर होतो तो 'तुरत दान महापुण्य' असा होत नाही, तर पावसाच्या पाण्याचा दगडावर व्हावा तसा निश्चित पण सवकाश आणि नकळत होतो आणि तोही मतावर नाही तर मनावर होतो.'' (एक उजवाडा येवंक नाशिल्लें बरप.)

कादंबरी ह्या साहित्यप्रकाराचो ह्या संदर्भांत विचार करूं येता. बरोवपी समाजाभिमुख जावन मनीस संस्कृतायेचे उदरगती खातीर आपली लेखणी आनी प्रतिभा झरयता.

आपणाले लेखणीचे तांकीन एक नवो संवसार उबो करप ही एक कला. साहित्यकार वा कलाकार आपले गिरेस्त प्रतिभेच्या बळग्याचेर हें साध्य करता. खरें म्हळ्यार, कला फकत साधन, तिचें साध्य सौंदर्य, मनीसपणाची नदर आनी अमूर्त आनंद. काबंदरे सारकेल्या साहित्यप्रकारा संबंदानूय अशें म्हणूं येता.

कादंबरी कशी आसची? ह्या प्रस्नाची जाप तशी सरळ दिवंक जावंचिना. कादंबरी/नवलिका कशी नासची तें घडये सांगूंक येवं येता. कादंबरेचीं जायतीं खाशेलपणां वयल्या विवेचनांतल्यान काडूं येत.—

घटना-प्रसंग, पात्रां, वातावरण निर्मणी, संघर्श, निवेदन सारकेल्या घटकांच्या आदारान समाजांतले वास्तवतायेचे तरेकवार रंग, थळा-काळाच्या उब्या आडव्या पोडांचो 'कॅनवास' कादंबरी दाखयता.

नवलिका वा कादंबरी म्हळ्यार कथात्मक गद्य साहित्याचें लांबादीक रूप.

कादंबरेंत कथावस्तूक आनी निवेदनाक भोव म्हत्व आसता.

नवलिका आनी कादंबरी मनशाच्या मनोव्यापाराचें आनी वेव्हाराक स्वरुपाचेंय दर्शन घडयता.

कादंबरेंत वा नवलिकेंत खंयचोय विशय येवं येता.

कादंबरी त्या त्या काळावेली सामाजीक, इतिहासीक, सांस्कृतीक, राजकी, पर्यावरणीय, धार्मीक फाटभूंय स्पश्ट करीत आसता.

एके बऱ्यांतले बरे कादंबरेचे गूण अशे आसूं येतातः

- कथानक समर्पक, व्यापक आनी नवें आसचें.
- विविधतायेन भरिल्लें पात्र-चित्रण आसचें.
- निवेदनाची शैली वाचनीय तशीच व्हांवती आसची.
- उत्कंठा वाडोवपी संघर्श तातूंत भरिल्लो आसचो.
- अखेर आनी मूळ हेत वाचप्याक आनी समस्त मनीस जातीक अंतर्मूख करपी आसचो.
- पुराय कादंबरी मानवतेची मुखावेली दिका थारोवपी आसची.




मनीस एकदम बरो, मनशाचें बरेपण दोळे आशिल्ल्याक दिसता असो म्हजो अणभव आसलो. दुस्मानाक पसून दुस्मान म्हणप बरें न्हय, आमी चुकतात अशें म्हाका दिसतालें. कोणाचेय विचार वा चलणूक म्हाका पटलिना, सामकी विरुद्ध दिसली तरी हांव तें पासून व्हरचेलो यत्न करतालों. ताका हाचो संशय पासून येवंक दिनासलों. म्हज्यो वेगळ्यो येवजणुको काळजाच्या मुळच्या खणाक कोणाक दिसना तश्यो लिपोवन दवरी.

# कांय किरकोळ गजाली, पूण म्हत्वाच्यो

**शुक्रार, २७.११.१९४८**

मुंबय येवपा पयलीं कांय दीस म्हज्या vida afectivaत बदल जालो. पयलीं मनशा संबंधान जें आपलेपण दिसतालें ताचो जागो आतां कोणाच संबंधान, आवय-बापाय संबंधान पसून indiferença अशें दिसूंक लागलें. मनीस एकदम बरो, मनशाचें बरेपण दोळे आशिल्ल्याक दिसता असो म्हजो अणभव आसलो. दुस्मानाक पसून दुस्मान म्हणप बरें न्हय, आमी चुकतात अशें म्हाका दिसतालें. कोणाचेय विचार वा चलणूक म्हाका पटलिना, सामकी विरुद्ध दिसली तरी हांव तें पासून व्हरचेलो यत्न करतालों. ताका हाचो संशय पासून येवंक दिनासलों. म्हज्यो वेगळ्यो येवजणुको काळजाच्या मुळच्या खणाक कोणाक दिसना तश्यो लिपोवन दवरी. त्यो सगळ्यो एक दीस उब्यो रावतल्यो हाचो विचार लेगीत त्या वेळार म्हाका सुचलोना. कोणाय खातीर हांव सहज म्हजो सुवार्थ, पयसो, वेळ, अभिमान (कांय वेळार) 'साक्रिफिकार' करपाक शकतालों. मनशाचे वांकडे गूण म्हाका धडधडीत दिसताले, पणून ते दोळ्यां आड करून विसरून वचप म्हाका अजुनूय जमता.

दर मनशाचे जिणेंत कांय किरकोळ गजालींक पसून व्हड म्हत्व चडटा. संवसाराचे जिणेंत पसून तीच गजाल. कांय मनशांक, कांय तारकांक, कांय थळांक तशेच परिस्थितीक लागून मोल प्राप्त जाता. ल्हान आसतना फोंड्यां म्हजे कडल्यान तेरमामेत्र फुटलो. कितली सादी खबर! पूण हे खबरी वेल्यान मनीस तोंडान तत्वां उलयता तीं हातांनी करपा खातीर न्हय हें म्हाका कळ्ळें. बाबा जॉर्ज वॉशिंग्टनाची खबर सांगता. पणून ताच्या बापायन खऱ्याक मोल दिल्लें. झाड मारिल्लें आसतनाय ती दूख विसरून ताच्या साद्या मना कडेन लक्ष दिल्लें. हें संवसाराक आचरणांत हाडपाक कितलीं युगां जमूंक ना. सत्यान फायदो जातालो जाल्यार सगळो संवसार खऱ्यान भरून वतलो आसलो... त्या दिसा पसून, १९२८-३० तरी खबर ती, पणून म्हाका खरें उलोवचें, त्याग करचो बी तरेकतरा तत्वां सांगतल्या मनशांचो - आवय-बापायचो, म्हाल-म्हाताऱ्यांचो, मास्तर, हरदास आनी आतां तत्वगिन्यानी, बरपी, राजकर्णी बी लोकांचो मना पसून संशय येता. ल्हानपणांतले समज खंय धड आसतात. कितलेंय शाणेपण शिकल्यार ते वचनात.

दुसरी खबर फाउंटन पेनाची. काकोडकाराल्या इस्कोलांत सेगुंदग्रावाक आसतना म्हजे कडल्यान एका मनशाचें पेन शेणलें. हांवें ताचें पेन परतें दिलां म्हणून म्हाका याद आशिल्ली. पूण भुरगेपणा पसून म्हजो स्वतःचे करणेचेर विस्वास थोडो. यादय बरी न्हय. कितेंय केलें जाल्यार कांय वेळान तें केलां काय ना असो मातसो संशय तेन्ना पसून म्हज्या मनांत आसतालो. (आतां तर तो शिखराक पावला.) तेन्ना, ताणें पेन दिवंक ना म्हणटकच घरचे पयशे घेवन (अडेज रुपया) ताका पेन घेवन दिलें. पणून घरच्यांनी (बाबा, मामा, शाप्पा, भाव आनी आवय) हांवें पयशे खाल्यात जावंये म्हणून C.I.D.पणां करपा खातीर गजाननमामाक नेमलो आनी ताणें दुकानार वचून खरेपण केलें. शाळेंत वचून पेनाच्या मालकाक आनी बाकी भुरग्यांक म्हजे असवडीं विचारून रुजवात केली. तो अपमान हांव विसरलों. त्या मनशांचेर म्हजो मात पसून राग ना. पणून तांच्या व्हडपणाचेर आनी जाणटेपणाचेर त्या दिसा पसून तो आज पर्यंत म्हजो विस्वास ना. तोंडार संशय दाखयनासतना अडेज रुपयां खातीर तांणी येदो खटाटोप करचो आनी तशें करपाक तांकां मातूय रजांव नासतना. कारण, ते पयलीं हांवें तांच्या पयशांचो घोळ केन्नाच करूंक नासलो आनी तांणी म्हाका फटिंगा भाशेन लेखून संशय दाखयल्लो. तेन्ना म्हाका धा वा अकरा वर्सां आसतीत. पणून संवसारांत प्रसंगान मनीस कसो फटींग जाता, न्हय, ताका संवसार कारणा शिवाय फटींग करता आनी ताका आपलें खरेपण दाखोवप शक्य नासून, ओगी रावन, आपूण चोर, आपलीच चूक अशें दाखोवचें पडटा, हें म्हाका समजलें. हे गजालीचो परिणाम अजुनूय म्हजेर आसा.

तिसरी खबर म्हळ्यार सेगुंदआनाचे येझामीची खबर. भौ. मर्तो दुभाशी, बाबा, शाप्पा हांची वागणूक. पास जातकच तेच लोक कशे तरेन उलयले हाची याद जावन हांसो येता.

चवथी खबर म्हळ्यार नॉर्मालाची येझाम. तेरा व्हालोर.

पांचवी खबर मुंबयंतले धा म्हयने आनी मागीरचे अणभव.

ह्या सगळ्या गजालींनी म्हजी जीण आनी विस्वास हांची बुनेद पोखरून गेली साप. सगळ्यां वेलो विस्वास ना जालो. व्हिदा संबंधान हळू हळू इंदिफेरेंस येवपाक लागलें. घरा संबंधान, घरच्यां संबंधान, नात्यांतलो लोक, वळखीचे आनी मित्र - सगळ्यां सगळ्यां संबंधान पयसावल्ले भाशेन जालों. कोणाच संबंधान आस्था ना. इंदिफेरेंस. लग्न, सॅक्स बी म्हणटात त्यो म्हज्यो coisas fundamentais, पणून तांचे संबंधान पर्यंत मातशेंशें इंदिफेरेंस आयलां. जर म्हजो मुळचो सभाव दुसरे तरेचो आसता तर दर एकट्याचो सूड घेवचो, कोणाचीच कसलेच गजालींत पर्वा राखची न्हय, बेपर्वा करची, कोणाकच नदरेंत धरचो न्हय असो सुवार्थी सभाव जातलो आसलो. पंणून तशें मात पसून ना. अजून पर्यंत लोकाचें खंयचेच तरेन वांकडें करपाचें मनांत येना आनी आयल्यार तिगना.

**मुंबय, पार्ले, शेनवार, २७.११.१९४८**

आजं 'गोवा हिन्दू असोसिएशन' हे संस्थेचें स्नेहसंमेलन आसलें. आमगेल्या गायतोंड्याक घेवन गेल्लों हांव. थंय दोन गजाली समजल्यो. भौ. नानुदाद भेंब्रो मुंबय सोडून सोलापुराक वेता. थंयसून म्हाका पत्रवेव्हार चालू करुया म्हणून सांगतालो. पणून हांवें ना म्हळें. दुसरें, दोतोर श्रीपाद गायतोंडो पोर्तुगालाक साकून आयला आजच, ही खबर समजली. ताका थंय पळेलो. कांक्राचेर खासा शिकून सर्जन म्हणून तो हांगा आयला.

नाटकाक खूब लोक जाल्लो. वागळे हॉल खिच्चून भरिल्लो. पणून नाटक रंगलेंना. दिवे नाशिल्ले आनी कामां करपी लोकय फाल्स. तरी पणून तांणी चार लोकां खातीर स्रम घेतल्यात इतलें खरें.

दोनपारार दोन वरांवेर आडुरकारां कडेन वचून आयलों. स्कूल ऑफ आर्टा खातीर एक स्कीम ताका हांवें दिल्ली. कांय चार्ट्स करून दिल्यात - 1) Education in Bombay Province, 2) Art Education, 3) Structure of Art Education, 4) Contribution of the School of Art and the Government to the Welfare of the Art Institutions, 5) Exhibition Schemes, 6) Libraries, 7) School Museum. ताका हांचो उपयोग जावंये. ताका ते खूब मानलेय, कारण, ताचे कडेन नाशिल्लें तें हांवें ताका दिल्लें. दुसरें म्हळ्यार, तांकां तशें मोलय आसा. फाल्यां साडे सात ते णव मेरेन ताचे तकलेंत ते भरूंक जाय. ताच्या बंगल्यार आपयला तार्णे.

स्कूल ऑफ आर्टांत प्रदर्शना खातीर लाप्सांत कांडिल्लीं चित्रां भोंसल्याचे सांगणे वेल्यान दिल्यांत. पयलेच फावट हें काम प्रदर्शनाक दितां हांव.

प्रदर्शन खूब बरें जालां. पळशीकार, पै, गायतोंडो, फडके बी बऱ्या बऱ्या भुरग्यांचीं चित्रां पळोवंक मेळ्ळीं. तीन-साडेतीन मेरेन खूब काम पळेलें.

हांवें वागळ्याचो पोर्ट्रेट केल्लो तो मास्तरान खलास करून उडयलो. सामकें थर्ड क्लास पोस्टर कशें काम केलां. अंदू पास जाल्यार ताचो क्लास सोडून दिवप. खंयच्याच क्लासांत शिकप ना. घर आनी आपूण. घरा बसून काम करप.

लोका कडेन तोडून चलप ना. सन्मथान चलप. पणून दर एकल्या पसून कुशीक रावप.

कोंकणीच्या कामा खातीर दासाक मेम्बर्स मेळोवन दिले.

म्हाका आतां थोडो थोडो विस्वास येता की मना पसून वावरत जाल्यार हातान खूब काम जातलें. मनाक समाधान मेळटलें. कलेंत जीण घालप. शिल्पकला शिकूंक जाय म्हाका. पणून परिस्थिती तकली वयर काडपाक दिना. पयशांचें कशें जमतलें? कोणा कडेन मागप बरें न्हय. आंगार आठशें, हजार रुपयांचें रीण. कोणाची मदत ना. कशें जातलें?

मेळटा त्या वेळांत तरी कलेची सेवा करप. पोट सोडून बाकीचो वेळ लोका फाटल्यान वगडावचे परस ह्या कामांत घालप. थंडपणान सगळे यत्न करपाक जाय. भरभर करून हाची ताची टिका कर, दुसऱ्याक कित्यांचें कितें उलय हे धंदे सोडून दिवन तोंडा परस हाताक वाव दिवंक जाय.

ह्या म्हयन्या पसून खर्च हाता भितर हाडप. च्या बी नश्टो खर्च करप ना. कोणा बरोबर भोंवप ना. काम आनी आपूण. लोली भांग्याचेर, हाचेर ताचेर टिका करप ना. आपूण असो तसो म्हणून गांवभर सांगपाचो आनी आपली खबर दुसऱ्यां फुडें सांगचेलो नश्टो गूण काडून उडोवप.

## मोगाळ वाचप्यांक –

ह्या आंकांत कथेचेर अन्याय जाला. कारण – बी. ए.च्या नव्या अभ्यासक्रमाक संदर्भ म्हूण उपेगाक येत अशें कादंबरे संबंधांतले कांय लेख आमी ह्या आंकांत मुजरत दिल्यात.

'जागा'चे पटयेकार वाडचे अशें आमकां सदांच दिसत आयलां. कोंकणीच्या नव्या वाचप्यां कडल्यान- कॉलेजांनी, विद्यापीठांत शिकपी भुरग्यां कडल्यान - आमकां हांगा पालव मेळत व्हय?

**- संपादपी**

# स्वतंत्रतायेचे दिसाच्या सुवाळयांत...

**मधुसूदन जोशी**

गेल्लों त्याच दिसा आमची विद्यापीठ परिसराची भोंवडी जाल्ली. बरोच वेळ पांयांनी भोंवले. पणजे, मिरामार ते पाटो प्लाझा मेरेनचो येदो व्हडलो वाटार. विद्यापीठाचीं व्हडलीं ग्रंथालयां. तरांतरांचे कोर्स चलोवपी संस्था. मदीं एक व्हडलें पावर हावज, स्टेडियम, हॉस्पिटल. व्हडल्या टॉवराचेर काट्यांची घडयाळ. घडयाळ पोरणे स्टायलीची. टोल्यांची. त्या टोल्यांचेर पुराय विद्यापीठ वाटाराचें वेळापत्रक चलता. येद्या व्हडल्या वाटारांत भोंवपाक मिचिगन विद्यापीठाच्यो निळ्या रंगाच्यो बशी आसात. ते भायर ॲन आरबोर येरादारी यंत्रणे कडेन विद्यापीठान कबलात केल्या. कार्ड बोल्साक लावपाचें. खंयचेय बशींत चडून खयूंय वच, तिकीट ना! पन्नास टक्के सवलतीक लागून गोंयांत कांय कंडक्टर भुरग्यांक कशे पिडटात तें याद जालें. मिचिगन विद्यापीठाचें इंग्लीश हळडुवें 'एम्' अक्षर निळे फाटभुंयेर सगळ्या बोर्डार दिसता. निळ्या रंगाचो अर्थ खबर आशिल्लो, हळडुवो कित्याक? सारकी जाप मेळ्ळी ना! दर एके बिल्डिंगे मुखार हळडुव्या - निळ्या फुलांचीं झाडां. ॲन-आरबॉर हें नांव दोन इंग्लीश बायलां वयल्यान आयिल्लें. मिचिगन म्हळ्यार कितें? अर्थ मेळ्ळो ना. पूण भारता भाशेन इंग्लीश लोकांचोच दोन शेकड्यां पयलीं अमेरिकेचेरूय शेक चलतालो. अमेरिकेंतल्या लोकांनी बंड केलें. स्वतंत्र जाले. चार जुलै हो तांचो स्वतंत्रताय दीस. हो खंयच्याय लोकशायेच्या अभिमान्याक व्हडलो दीस. व्यक्ती स्वातंत्र्याचें निशाण आशिल्ले अमेरिकेचो स्वतंत्रताय-दीस कसो मनयतात हाची म्हाका उमळशीक आशिल्ली.



कोडू कसाय गोड गुळी

मिचिगनांतलें ॲन-आरबॉर माणकुलें शार. तातूंतलें मिचिगन विद्यापीठ लागीं लागीं दोनशीं वर्सां पयलींचें. इंग्लीश लोकांची वसणूक. विद्यापीठांत 'विद्यार्थी युनियन' म्हण स्टॅंडाची बिल्डींग आसा. पयल्या माळ्या वयल्या रेस्तॉरंतांत आमी गेले. हांवें व्हेज बर्गर आनी 'कोल्ड आयस् लेमन' मागयलें. थंयच्या आयकुप्याक तें कशेंशें दिसलें. लेमन पयल्या सिपा उपरांत घोस्तान पियलों.

जेवणां उपरांत फोटो सेशन जालें. आमी रेस्तॉरांतल्यान भायर सरले. वाटार भोवन पळोवपाक.

हो सगळो वाटार आमकां भोंवडावन दाखयलो तो नबिल खलिदी ह्या साठ वर्सां हुपिल्ल्या मनशान. खलिदी मूळ सिरियन. आपले मातृभुंयेचो उपाट मोग. वांगडा अमेरिकेच्या डेमोक्रेटीक पक्षाचो पाखो घेवपी. अमेरिकेक 'तासपी' लोकांचे पंगतीक बसपाक नबिल काबिल आसा अशें म्हजें मत जालें.

सांजे मार्कलेंत परतले. न्हावन धुवन भारतीय दुकान सोदपाक 'बॉडवे' वाटारांत गेले. एक बरें दुकान आशिल्लें. नाल्ला पसून ते देवाक दाखोवपाची उजवात, तामण, घांट सगळें आशिल्लें. हांवें हिंगा डबी घेतली. दोन डॉलर (अंयशीं रुपयाचो) खार बोल्साक लागलो. म्हळें परतो परतो पिझा खावन पोट फुगार जाल्यार हिंगाची कडी घेवप. घरकान्नीन सामान भरतना सोलां बॅगांत घाल्लीं. सोला कडी खंयच्याय 'डायजेस्टंटा'क फाटीं घालपी रसायन. ताका हिंग ओंवो लायंत जाल्यार पोटांतले सगळे 'वायू' जाग्यार बसतात. बॉडवेचे वाटेर मिचिगन हॉस्पिटल. व्हडली बिल्डींग. रातचीं आठ जाल्लीं तरी कडकडीत वत. कॅमेरा घेवन फोटो काडपाक सुरवात केली. सेक्युरिटी बायल धांवत आयली. नमळायेन तिणें म्हळें, 'हॅलो, हाउ आर यु?' आनी फुडें हॉस्पिटलाचे फोटो काडपाक बंदी आसा म्हण सांगलें. आमी तिचे हुजीर काडिल्ले फोटो डिलीट केले आनी फुडें चलपाक लागले. हीच गजाल भारतांत घडिल्ली जाल्यार सेक्युरिटी कितले नमळायेन उलयतलो आशिल्लो हाची रिअरर्सल आमी केली. म्हजो भारतांतलो दुसरो इश्ट जिमी जोज मणिपालचो आशिल्लो. बुडपी मनशाक तणाचो आधार ते भाशेन. गरज पडल्यार, आनी केन्नाय भोंसा मदीं थोमणे मारपाक आमी हिंदीय उलयताले.

हवामान दाखोवपी जायत्यो सायटस् इंटरनॅटार मेळटात. हांगचें हवामान हांव वर्ल्ड टायम झोनार पळयतालों. केन्ना पावस, केन्ना थंडी अशें सामकें बदलत रावपी. कारण हो वाटार दर्या पसून पयस आसलो तरी हांगा वाऱ्याची दिशा बदलतां तशें हवामान बदलता. तरी लेगीत हवामान खात्याचो अदमास खूब खेपे सारको अचूक आसतालो.

## दुसरी खिस्त

आमची रावपाची व्यवस्था मेरी मार्कले, वॉशिंग्टन हायटस् हांगा केल्ली. रुमा भितर अव्हन, फ्रीज, इंटरनॅट अश्यो सगळ्यो सोयी. भितर सरपाक हारशाचीं दारां. पूण इलॅक्ट्रॉनीक लॉक आशिल्लें कार्ड स्वीप केल्यारूच उगडटा तसलीं. मुखेल दारांतल्यान भितर सरले उपरांत कांय सपणां चडटकीच 'फ्रंट डेस्क'. तें हॉस्टेलाचें ऑफीस. ऑफिसा भायर बसपाक सोबीत बऱ्यों खुर्च्यो आनी सोफा. पुराय इमारतींत ७०० वयर कुडी. कॉमन टॉयलेटस्. हांगाचे वातावरण शिंया दिसांनी बर्फ जाल्यार गर्मे दिसांनी पावस.

गर्मे दिसांचें चडांत चड तापमान ३०°C तर उणें १०°C मेरेन. पूण टॉयलेटांत थंड आनी हून दोनूय तरांच्या उदकाची सोय. ह्या सगळ्या लोकांच्या 'भुसाची' सोय करपी व्हडलो कॅफिटेरिया. हांगा कार्डां स्वीप करून भितर सरप. बुफे पद्दतीन सगळें मांडून दवरिल्लें. 'भोजन भाऊ' कोण आसल्यार ताचें फोल्ग. कोणें तरी खाणाचे बाबतींत अमेरिकेच्या लोकांक बकासुराले वंशज म्हळ्यात. खांव बाबडे आनी फुगूं वारो भरिल्ले भाशेन. पूण घेवन ताटांत सांडून नासाडी करपी लोकांक कितें म्हणपाचे? ताटांत गीटो लेगीत सांडल्यार दोळे मोठे करपी जाणटीं मनशां पळयत आमी ल्हानाचे व्हड जातात. 'अन्न हे पूर्ण ब्रह्म'. ताची नासाडी मात पळोवं नजो जाता. थंय मांडिल्लें सगळें आवडपा सारकें आसताच अशें ना. पूण रुचीक आसा काय ना हें पळोवन घोस्तान खावचे परस ट्रेंत सांडप हें हांगचे संस्कृतायेचें मुखेल लक्षण हांवें पयल्याच दिसा जेवतकीच ट्रे-वॉशरांत वचपी थाळयो पळोवन अदमास घेतिल्लो. एका फाटल्यान एक धुवपाक बॅल्टार वचपी ट्रे भाशेन म्हजे विचार चलताले. ह्या हॉस्टेला मुखार गाडयो दवरपाक व्हडलो तळ. फुडल्यान व्हडली मसंड. मसंडी सकयल्यान निकोलास पर्यावरण संस्था आनी ते संस्थेन सांबाळिल्लें व्हडलें रान.

हांगा कपडे धुवपाक ते सान्न मारप. कोयर काडप, मेरेन सगळें मशिनाचेर. नितळसाण आनी अमेरिका हांचें गांठूल देवान बेस बरें मारलां. पुराय हॉस्टेलांत तें दिसतालेंच. हांगा एक दीस सांजे आड पडिल्ले कडेन फोनाची घांट वाजिल्ले भाशेन दिसलें. मातसो दोळो लागिल्ल्यान कच्च् करून उठलों. म्हजो इश्ट रुमांत सर्फींग करतालो. पूण हो आवाज वेगळो आशिल्लो. फोन न्हय. 'सायरन' वाजतालो. आमी वासपूस करपाचे भानगडींत पडले नात. सरळ ते भायर सरले. फुडल्या मेकळ्या जाग्यार शेंकड्यांनी भुरगीं कितें जालां काय, असो प्रस्न तोंडार घेवन उबीं आशिल्लीं, केदो वेळ सायरन वाजतालो. हांव फायर ब्रिगेडीची गाडी येता काय म्हण वाट पळयतालों पूण धुंवर ना जाल्यार उजो खंयचो? कांय वेळान सेक्युरिटीची एक बायल-मनीस धांवत हांसत आयली. 'हॅलो, इट व्हॉज मॉक ट्रायल' उजो लागल्यार कितें करप हाची येसाय. सगळीं हांसून परतलीं.

मनांत प्रस्न आयलो, व्यवस्थेचे नदरेन चोख - बेस बरें! पूण संकश्टां सांगून येतात? ९/११ हो दीस अमेरिकन मनशाचे जिणेंत कांय संदेश दिवन गेला. जिणेची असुरक्षितताय. सगळ्याक जतनाय!' सादूरताय. हें सगळें करून लेगीत खात्री दिवपी जीण मात ना! मनशाचें अस्तित्व, ताची सुरक्षा हें आपणालें व्हडलें कर्तव्य अशें अमेरिकेच्या सरकाराक दिसता. सगळे यंत्रणेचें तारूं तेच दिकेन वता. पूण ९/११ सारके दीस तारवांच्या शिडांतली हवा काडून घेता. तरी हे लोक 'अहं ब्रह्मास्मि'!

हांगा येवन आठवडो सोंपिल्लो. आतां इल्लें इल्लें 'जॅट लॅग' दॅवपाक लागिल्लें. इल्लें इल्लें मारतकीच चडपाक लागता तशें बी कोणाकूय दिसत. पूण सैम ऋत् हांचो मनीस बंधनकारी निसर्गचक्रांत ढवळाढवळ केल्यार बादता. हो ताचो नेम. रातीचो दीस आनी दिसाची रात जातकीच मेंदवांत आशिल्ले जैवीक घडयाळीक जुळोवन घेवपाक कळाव लागचो ना? थंड बऱ्या वातावरणांत सुंदर विशयाचेर भासाभास चलिल्ली आसतना न्हीद येवन दोळे जड जाताले आनी 'जॅट लॅग' समजतालो. हांगा दनपारचीं बारा वरां म्हळ्यार गोंयांत रातचीं धा! न्हिदेचो टायम. पूण निमाणें सौर सुक्त ! जैवीक घडयाळ सूर्याचेर निंबून आसता. आमी गोंयकार शीत-कडयेक लागून आमकां भाग्यवंत समजतात. पूण आमचो दीस आनी आमची रात लागीं लागीं सारक्याच वेळाचीं आसतात हाचें म्हत्व आमकां पटपाक जाय. मिचिगन भागांत गर्मे दिसांनी सूर्यास्त रातच्या णवांक सवा णवांक. सूर्य उदेता साडेपांच संक. म्हळ्यार, रात आठ वरांची दीस सोळा वरांचो. रातचें जेवण कोणाकूय दिसत धा बारांक जाता म्हण. ना, तें सांजेच्या स ते आठ मेरेन. कडकडीत वतांत रातचें जेवण म्हण सांगल्यार 'उदर भरण' सारकें कशें जातलें? पूण जिवितांत जुळोवन घेवप म्हत्वाचें. जाका तें जमना तो फाटीं उरता. हो देशूच दोनशीं वर्सांचो. देशाच्या जल्माची कथा विचित्र! हेर सगळे देश कितल्याश्याच वर्सांचे परंपरेचें दायज सांबळीत उबे आसात. कोलंबसान ह्या वाटाराचो सोद लायलो आनी हो वाटार हेर जगाक कळ्ळो. हांगा आशिल्ल्या 'रॅड इंडियनां'क फाटीं सारून ब्रिटीश, फ्रॅंच हांणीं वसणुको केल्यो. ते वसणुकी आड जें झजू जालें तातुंतल्यान अमेरिका नांवाचो देश जल्माक आयलो. ४ जुलै अमेरिकेचो स्वतंत्रताय दीस. दुसऱ्या देशाचो स्वतंत्रताय दीस पळोवपाचो म्हजो पयलो अणभव.

आदल्या दिसा रातीं 'ग्रीन फिल्ड' ह्या वाटारांत वचपाची येवजण आंखिल्ली. जनरल मोटर्सचो हेन्री फोर्ड हाणें वसयल्लो जागो. सांजे आमका घेवन लिंडा अॅन आरबॉरांतल्यान भायर सरलें. हांगचे हायवे म्हळ्यार हायवेच. फकत आंकडे, सिग्नल आनी गाडयो! आमची गाडी मार्गाक लागली. डेट्रॉयट काडून आमकां आनीक कांय मैल वचपाचें आशिल्लें. येदे व्हडले रस्ते. पूण स्पीड लिमिट. ट्रका खातीर ५०, गाडयां खातीर ७०. वांगडा नकासो घेतिल्लो. अमक्या रस्त्यार अमके वटेन, दाव्या उजव्यान न्हय तर चोवीस पश्चीम, एकशें अंयशीं दक्षीण. वरा भरांत आमी आमच्या जाग्यार पावले. गाडयांचो महासागर. लिंडान गाडी पार्क केली आनी म्हळें, रातीं काळखांत गाडी सोदून काडपाचें काम तुमचें. गाडयेंतल्यान कदेली, खावपाचे जिनस भायर काडले. पुराय ग्रीन फिल्ड वाटारान फेस्ताचें रुपडें पांगुरिल्लें. पूण चणे बिणे विकपी मात नात! यजमान जेम्स तिकिटी काडून गेटी कडेन वाट पळयत उबो आशिल्लो. वांगडा ताची घरकान्न! तांचेय कडेन कदेली मुस्तायकी आनी हेर जिन्नस आशिल्ले. आमी पांचांक सुमार भायर सरिल्ले. कडकडीत वत. घाम येता काय दिसतालें. खांदार दर एकल्यान वजें घेवन चलपाक सुरवात केली. सगळ्याक लोकूच लोक. गेटीर तिकिटी, सामान तपासलें. फुडे एका व्हडल्या मळार लोकांनी खुर्च्यो मांडिल्ल्यो. म्हाका सावय-वेरेंच्या अनंताच्या काल्याची याद जाली. काल्या दिसांनी शेंदऱ्यो घालून नाटकां पळोवपाक जागो

आडावपी लोकां भाशेन सगळे हो उत्सव मनोवपाक जमिल्ले. सगळे गोरे. काळे चुकून लेगीत दिसनाशिल्ले.

पणजेच्या कांपाल - क्रिकेट ग्राउंडा येदो जागो आसूं येत. आमी जांगो आडावन सामान लावन मातशे मेकळे जाले. पुराय अमेरिकेंत 'जागो' आडावपाचो प्रसंग आयलो तो हो स्वतंत्रतायेच्या आदल्या दिसा. सिंफनी ऑर्केस्ट्रा, फोग अशी कार्यावळ आशिल्ली. कार्निव्हाला भाशेन फ्लोटस् नात! बाकी सगळें. ऑर्केस्ट्रा आनी कार्निव्हाला पसून हांव सदांच पयस रावलां. हांगा वाटेकार जाल्लों. सामान दवरतकीच परतून वाटार भोंवपाक सुरवात केली. आदले खेळ, पोरण्यो यादी. मनीस कितलोय फुडें वचू, हो आमच्या पुरसाचो फातर ही भावना ताच्या मनांत खंय तरी उरता. दायज मागीर कितल्याय वर्सांचें आसूं, तें तरंगा भाशेन खांद्यार घेवन नाचपी लोक संवसारांत आसात. म्हण हो संवसार चल्ला आसूं येत. जैवीक दायजांतलें खंयचें उरपाचें खयंचें ना जावपाचें हें निसर्ग नेमांत बसलां आसत. पूण संस्कृतीक दायजाचो टिकपी गूण कोण थारायता? वाटार भोंवतां भोंवतां थॉमस ॲडिसनाचे यादीक ओंपिल्ल्या वाटारा कडें पावलों. 'थॉमस अॅल्वा ॲडिसन' विज्ञानेश्वर. दोन फावटीं जिणेंत सगळें वगडावन परतून उबो रावपी मनीस. विजेचो बल्ब तयार करपी मनीस. ताची कार्यसाळ, घर ताणें तयार केल्ल्यो वस्तू, दर कुडी भायर म्हायती दिवपी बोर्ड. हांव बोर्डांचे फोटो घेत केदो वेळ त्या वाटारांत भोंवलों.

साबरमती आश्रमांत भोंवून मनाक जशी थाकाय मेळिल्ली तशीच कितेंशी अवस्था जाली. ॲडिसन वाटार हांव स्मारक म्हणना. स्मारक म्हळें काय पुतळो आयलो. बंधनां आयलीं. ॲडिसन वाटार भोंवले उपरांत मनाची अवस्थाच बदल्ली 'किनारे से टकराता है उसे सागर कहते हैं । सागर से टकराता है उसे तूफान कहते हैं । और तूफान से टकराता है उसे इन्सान कहते हैं ।' ॲडिसन वाटाराक भेट दितकीच मन ताजें तट्टटीत जालें.

परतून ग्रांवडार आयले. ल्हवसार संगीत चालू आशिल्लें. आमी आमच्या सामाना कडेन पावतकीच कदेलीर बसले. चॅरी, स्ट्रॉबॅरी हांचीं पाकिटां यजमान्न ज्युली हिणें भोंवडायलीं. लिंडान सँडविच काडले.

कितलो वेळ चलतली कार्यावळ? हांवें विचारलें. रातच्या साडे णव धा मेरेन, ज्युलीन म्हळें. हांव ज्युलीचे कुशीक बशिल्ल्यान खबरी मारपाक सुरवात जाली. दोन देसांची म्हायती, स्वतंत्रताय दीस... सगळें खबरांनी विसकटावन येत रावलें.

"हो ऑर्केस्ट्रा न्हय. फकत देशभक्ती गितां" ज्युलीचे म्हायतीन म्हाका धपको बसलो. व्यक्तीवादाचेर आदारिल्ले अमेरिकी जिणेंत चोंब्या खातीर, देशा खातीर जगपी लोक आसा. ल्हान आसूं, पूण कुरकुटांत पेटपी मनीसकायेची पणटी आसा! म्हाका अप्रूप दिसलें. संगिताचे सूर बदल्ले. सगळे लोक उठून उबे रावले. हात काळजार दवरून जण एकलो गावंक लागलो. राष्ट्रगीत आसुंये, हांवें अदमास केलो. राष्ट्रगीत सोंपलें. जयजकार ना. 'अमर रहे' ना... सगळें परतून आशिल्लें तशें. तिनसानचो काळोख ते सांजे ल्हव पावलांनी आयलो. सांगिताचो संध्याराग सुरू जाल्ले वरी दिसलें. खंयच झगझगीत उजवाड ना. मंद मंद पेटपी पोरणे पद्दतीचे लापयांवा सारके दिवे. ते रातच्या काळखाचें लेगीत स्वागत करताले. जण·एकलो स्वतंत्र. दुसऱ्याचे हक्क कोणेंच आडावप ना अशें कितें तरी वातावरण सुचयतालें. समरगितां सुरू जालीं. भोगाचो, चंगळीचो देस म्हण नामना जोडिल्ल्या देसांत कोणें तरी दुसऱ्या खातीर केल्ल्या त्यागाचीं पदां आयकुपाक येवंक लागलीं. पुलीस, ॲर फोर्स, नेव्ही सगळ्यांच्या त्यागाचेर उजवाड घालपी पदां. पदां गातना जमिल्ल्या लोकां मदीं त्या त्या फांट्याचे हाजीर आशिल्ले लोक उबे रावताले. हेरांचे हात त्या तालार ताळयो वाजयताले. त्याग. मागीर तो कसलेय तरेचो आसूं, मनीसजातीन सांबाळिल्लें जिणेंतलें एक मुल्य! दर एका ताळ्यांतल्यान कृतज्ञतायेची भावना, आगीं ओंपप चलतालें. हांव तरी म्हणचो ना हो देस फकत भोगाचो, चंगळीचो !

कार्यावळ एका उंचेल्या पांवड्यार पावली. हाजीर आशिल्ल्यांतले कांय लोक चिटयो बरोवन धाडपाक लागले. तातूंत सत्त्यांयशीं वर्सांचे 'आजयेन हांव हांगा आसां अशें म्हणिल्लें. व्हियान हे एके बायल-मनशेन आपूण ही कार्यावळ शेगीत सोळा वर्सां पळयता अशें बरयल्लें. सोळा आंकड्याक थंय इल्लें. चड म्हत्व. सोळा वर्सां पिरायेचेर भुरगीं मेकळीं जातात. तांकां ड्रायव्हींग लायसन्स मेळटा. वेगळीं रावपाचो परवानो खंयच अर्ज करिनासतना मेळटा.

सूत्रसंचालक काळे कातीचो आशिल्लो. उमेदी आशिल्लो. "तू आतां कितें करतली?" ताणें व्हियानाक प्रस्न केलो.

"आय् वॉन्ट टू किल माय फादर!" तिचे जापेन सगळ्यांकूच हांसपाक आयलें.

"व्हाय?" ताणें विचारलें.

"कारण हांव तुका मारूंक शकना!" तिच्या उतरांनी परतून हांशाचे बोमाडे फुटपाक लागले. तांची भासाभास मनरिजवण करताली. अमेरिकेंत मरप घडये घडये जाता. कोणूय केन्नाय कोणाचेर पिस्तूल उबारूंक शकता. पेपरांनी वाचिल्ल्यो टिव्हीर पळयल्यो गजाली. आपूण बापायक मारपाक सोदतां हातूंतलो विनोदाचो भाग सोडल्यार हिंसा हांगा कॅज्युअल गजाल काय असो प्रस्न मनाक पडटा. निमाणें हिंस्र जावप हो मनशाचो एक विकार विचाराचें स्टेअरींग सुटलें म्हणटकच मागीर विकाराची गाडी कशी चलतली? शियाचे दीस. बरो थंड वारो सुटलो. आंग शिरशिरपाक लागलें. यजमानान हाडिल्ल्यो दाट शाली पांगरून आंगांत हुनसाण तिगोवपाचो यत्न सुरू केलो. शो आता सोंपपा कडेन पाविल्लो. एका रशियन सैनिकाचें पद. अमेरिकेच्या स्वतंत्रताये दिसाचो चमत्कार हो एक. स्वतंत्रताय दीस म्हण तश्यो हेर खाशेल्यो कार्यावळी नात. घडये स्वतंत्रताय मेळून दोन शेंकडे उलगल्ल्याचो परिणाम आसूं येत. तातूंत भितर अंदूचो स्वतंत्रताय दीस आयिल्लो शुक्रारा. (मुखार चलता)



# शिक्षकांक नमन करतना...

विल्सी ववाद्रूस

एक बापूय आपले ल्हान धुवेक मारीत व्हरतालो. ताचे फाटोफाट ते चलयेचो व्हडलो भाव संतोश वतालो.

"ताका कित्याक मारता तूं बाबा? टिचरीन तुका वर्गांत आपोवंक धाडलो म्हण इतलो राग आयलो? वचुंदी ताका शाळेंत." संतोशान बाबाक समज़ावपाचो यत्न केलो.

"तुमी दोगांय एकेच तरेचीं. तुवें म्हण कितें उजवाड घाला? नापास जावन जावन वीस वर्सांचेर आतां कॉलेजीक वचपाक लागला. चल तूं तुजे कॉलेजीक, म्हजी लज काडपाक. हाका सारको शिकयतां हांव." बापायची तिडक अजून न्हिवूंक नासली.

"आज शिकोवप्यांचो दीस बाबा. आयच्या दिसाक तरी भुरग्यांनी शाळेंत आसूंक जाय."

"म्हणून म्हाको चड राग आयला. त्या शिकोवप्यांकय कळूंक जाय आसलें न्हय, आयच्या दिसाक पालकांक कागाळी सांगूक आपयनात म्हण?"

तांचो बोवाळ चालू आसतनाच ते वटेन स्कुटर घेवन पासार जावपी लता टिचर संतोशाक पळोवन थांबली.

"आरे संतोश, कितें जालां? आज कॉलेजीक वचूंक ना?" टिचरीन संतोशाची वासपूस केली.

"वचपाक म्हण भायर सरिल्लों टिचर, आईन सांगलें, बाबा बेज्यार जावन बायचे शाळेंत गेला, ताका पळोवंक गेल्लों हांव," संतोशान कारण सांगलें.

"पूण तो ताका कित्याक मारता?"

"तू वोगीच मदीं पडूं नाका. तुमी टिचरी सगळ्यो एकेच तरेच्यो. तुमकां आमची परिस्थिती खबर ना. एक दीस घरा रावप म्हळ्यार फाल्यां घरांत जेवण आसतलें काय ना हाची शास्वती ना. वोगीच हें शिक्षण सक्तीचें केलां. हें पोर घरांत आशिल्लें जाल्यार कोणाचींय आयदनां घांसून दोन पयशे जोडटलें आसलें..." अशें उलयत उलयत बापूय धुवेक घेवन आपले दिकेन गेलो. टिचरीन संतोशाक आपले स्कुटरीचेर बसयलो आनी तिवूय ताच्या घरा गेली.

संतोशान आपले आई कडेन टिचरीची वळख करून दिली. लता टिचर संतोशाक कोंकणी शिकयताली.

"संतोशाल्या बाबाक म्हजो नमस्कार", बसून आशिल्ली लता टिचर उबी जाली. बाबा पळयतूच उरलो. "हांव संतोशाले कॉलेजींत शिकयतां. भुरग्यांक जल्माक घालप हें वयले वयर सोंपें दिसलें तरी तें तितलेंशें सोंपें नासता. त्या भुरग्यांचें पालन-पोशण करून एक यशस्वी पालक जावप ताचे परसूय कठीण. बारीक पळोवंक गेल्यार ती एक सुंदर अशी कला. पालकत्वाची ही कला वठोवपाक आवय आनी बापूय दोगांय जापसालदार आसतात. ना जाल्यार तिसऱ्या कोणाचो तरी सहभाग गरजेचो आसता. जे पालक ही भुमिका बरे तरेन वठयतात, तांची आमी तोखणाय करतात; जांचे कडेन ही भुमिका सारकी करपाक जायना, तांकां आमी मदतीचो हात दितात. देखून हें जबाबदार पालकत्व, त्या दोगांचें, तुमचें आमचें सगळ्यांचेंच पालकत्व यशस्वी करपाक तुमच्या भुरग्यांचे शिक्षणीक कारकिर्दीत म्हजोय वांटो आसा अशें हांव मानतां."

लता टिचरीच्या उलोवण्याचो अर्थ घडये तांकां समजलोच ना. तीं तिका पळयत उरलीं.

"आपलो भुरगो दोतोर जावचो, वकील जावचो, इजनेर जावचो अशें दर एका आवय-बापायक दिसता. पूण तें शिकप घेवपाक आपल्या भुरग्याची मानसीक, बौद्धीक तयारी आसा काय ना हाचोय विचार करप गरजेचें आसता. हालीं भुरग्यां परस पालकांक चड टॅन्शन येता की हाचे फुडें म्हज्या भुरग्यांचें कितें जातलें? पालकच स्वता चिंतूंक पडटा. कितें योग्य, कितें अयोग्य हे विशीं ताच्याच मनांत घोळ आसता. तुज्या संतोशा विशीं हीच चूक तुवें केल्या: ताका फोर्सान विज्ञान फांट्यांत घाला. आतां तो आपल्या बापायचो मान राखपाक तळमळटा. अशा वेळार एक शिक्षकूच भुरग्याची योग्य ती पात्रता वळखता, भुरग्याक मार्गदर्शन करता आनी ताचें जिवीत घडोवपाक आदार करता. विचार तुज्या संतोशाक, ताका आनी ताचे बरोबरच्यांक आमचे कॉलेजींत कशे तरेचो बर्ताव मेळटा तो."

आवय-बापूय ओग्गी आशिल्लीं. लता टिचरीक बरोच नेट आयिल्लो. लता टिचरी विशीं संतोशान जायतें आयकल्लें, पूण आपल्या उलोवपाचो दुसऱ्याचेर ती इतलो प्रभाव घालता हें आयज तो प्रत्यक्ष अणभवतालो.

"आतां थोडें शिकोवप्यां विशीं आयकून घे. तुजे तकलेंत आसा तो शिकोवपी, न्हय, तो आपल्या कायद्याचें पालन करपी सत्पुरूश. ताकाय म्हण बंधनां आसतात. भुरगीं शिकतात, ना शिकतात तें पळोवपाचें आसता. तुज्या घरांत कितें चल्लां हाचो अभ्यास करपा इतलो ताचे कडेन वेळ नासता. तरी तुवें आपली अडचण सांगल्यार तुकाय तो समजून घेता. तूं फकत दोगां भुरग्यांचो विचार करता. ताका एकाच वेळार, एकेच फावटीं ३५ ते ५० भुरग्यांचो विचार करचो पडटा. तांच्या शिकपा विशीं ताका आपल्या वडिलांक जाप दिवपाची आसता." मातसो विसव घेवन तिणें परतून सांगपाक सुरवात केली.

"मनीसपणाचो सोबीत असो एक व्हड रूख पुरायपणान फुलोवपी शाळेच्या वाटारांत कोण आसा जाल्यार तो शिकोवपी. शिकयतना विद्यार्थी म्हणल्यार आपलीं भुरगीं, आनी आपूण स्वता तांचो /तांची पालक अशी भावना मनांत दवरून शिकयता तो /ती शिकोवपी, भुरग्यांची अपुर्बाय करतना, ताचे फाटीर मायेचो हात फिरयतना अडना; कांचवेना आनी भुरगें चुकलें जाल्यार ताची चूक दाखयतना जाचे शब्द आडखळणात तो /ती खरो /खरी शिकोवपी. घरांतल्यो बायलो आपल्या पुराय कुटुंबाची काळजी घेतात. तशी भुरग्यांची चडांत चड मायेमोगान काळजी घेवपी, ताका आपलेपण दाखोवपी एक कुटंब शाळेंत आसता. तुमी फकत शिकोवप्याचीं उणेपणां सोदतात आनी

आपणाक इल्लीशी कास्तीग पडटच तांचेर बेज्यार जातात. शाळेच्या पांच-स वरांच्या वेळांत भुरगीं कसलो सांवार घालतात ते विशीं शिकोवपी तुमकां केन्ना सांगतात? भुरगीं शिकनात तेन्ना तुमकां आपोवचेंच पडटा, कित्याक, वर्सा अखेरेक तुमी शिकोवप्यांक विचारतात, आपलें भुरगें नापास कित्याक जालें? तें वर्सा अखेरेक जावचे बदला मदीं मदीं तांचे विशीं म्हायती दिवपा खातीर आपयतात. नाय जाल्यार तुमी पालक विसरतात, केन्ना केन्ना आपल्या भुरग्याचे शाळेंत वचून ताच्या शिकोवप्यांक मेळपाक जाय म्हण... पालकान सदांच आपल्या भुरग्या विशीं जागरूक आसूंक जाय.'' परत एक फावट आपली नदर संतोशाल्या बाबा कडेन थीर करीत टिचर सांगपाक लागली.

''आतां पालकां विशीं थोडेंशें. पालक म्हणल्यार भुरग्यांचें पालन पोशण करपी, भुरग्यांक पळोवपी, सांबाळपी, तांचेर लक्ष दवरपी, लक्ष दिवपी, भुरग्यां कडेन सतत लक्ष दवरून वागपी, कर्तव्य तत्पर, क्रियाशील, कश्ट करपी, हांव करतां तीच दिका म्हणपी न्हय, असो, हांव सांगतां तेंच जावंक जाय अशें म्हणपी न्हय, असो, आदी आदी, हे सगळे गूण आमच्यांत आसतातच अशें ना. तरी आपल्या भुरग्यांचे बऱ्यांतले बरे पालक जावपाचो यत्न करपाचो सद्‌गूण तुमचे मदीं आसा हातूंत दुबाव ना. आपल्या भुरग्यांक माया दिवप आनी तांचे नदरेंत सदांच पवित्र रावप हो पालकान आपलो धर्म मानूंक जाय. भुरग्यांक मारलीं म्हण भुरगीं तुमचें आयकतलीं म्हण ना, तीं घडये तुमचीं गुलाम जायत, भुरगीं उरचीं नात. देखून पालकान सदांच भुरग्यांचे इश्ट जावन रावपाचो यत्न करूंक जाय. तुमी तुमच्या भुरग्यांचे कोण हें तुमीच सोदून काडचें.''

''पुरो, पुरो टिचर. आनीक मुखार कांयच नाका.'' संतोशाल्या बाबान लता टिचरी मुखार हात जोडले. ''हांवूच चुकलों टिचर. हांवें म्हज्या भुरग्यांचें चिंतचे परस म्हजेंच चिंतलें. हांवें जिवितांत कांयच केलें ना. म्हूण, भुरग्यां वरवीं म्हाका नांव जोडपाचें येवजिलें. आज शिकोवप्यांच्या दिसाक हांवें शिकोवप्याचोच अपमान केलो हाची म्हाका खंत भोगता. हांव आतांच वचून तिचे कडेन माफी मागतां.'' इतलें उलोवन फाटीं फुडें पळय नासतना तो नेटान पावलां मारीत चलपाक लागलो. संतोशाली आवय हें सगळें पळयतूच उरली. अस्तुरेचें कितेंच आयकून घेवपी न्हय असो हो मनीस हे टिचरीच्या उतरांनी विरगळ्ळो कसो? हेंच ती येवजूंक लागली.

''शिकोवप्यान आपल्या ज्ञानांतल्यान संवसार जिखूंक जाता आनी पाडे बुद्दीन नश्टूय करूंक जाता. जो मनीस दुसऱ्याक फावऽ तो मान दिता, तो मनीस तितल्याचं मापान मान मेळयता. येता हांव. संतोश, चल म्हजे बरोबर, सांगाताक बायेकय घे, पयलीं ताका शाळेंत पावोवया आनी मागीर कॉलेजीक या.'' लता टिचर वचपा खातीर भायर सरली.

''तुजे विचारशक्तीक आनी भुरग्यां विशींच्या प्रेमाक प्रेरणा मेळत रावूं आनी तूं संवसारांतली एक व्हड टिचर जावं, हीच तुजे खातीर हांव देवा कडेन कृपा मागतां. देव बरें करूं टिचर. तुज्यां म्हान विचारां खातीर'' खुशालकायेच्या दुकांनी भरिल्ल्या दोळ्यांनी संतोशाचे आवयन टिचरीक आदेवस केलो. लता टिचर संतोशाक आनी बायेक घेवन गेल्ले वाटेक ती कितलोच वेळ तोखेत रावली जशी ती वाट आजच जल्मल्या.

---

*(पान १५ वयल्यान)*

भासांनी अणकारीत जावन वचपाची गरज आसा.

'Inquisition: Theme of New Konkani Novel.' ह्या माथाळ्या खाला The Navhind Times दिसाळ्यांत (३ मे २००४) नंदकुमार कामत सैलां विशीं बरयतना म्हणटात. 'Sail has maintained the tradition of Shivram Karanth, the great Kannada writer and scholar in capturing the beauty of natural and the nuances of the culture of the local people. Unfortunately owing to the peculiar inferiority complex of the Konkani literary circle, he has not been properly projected in the national and international scenes, despite his talent and creative force.'

कादंबरी ह्या साहित्यप्रकाराच्या माध्यमांतल्यान कोंकणींत नवे प्रयोग, नवे विशय हाताळपाक सुरवात जाल्या. कोंकणींत जें बरें आसा तें चर्चात्मक स्वरुपांत, लेखना वरवीं आनी साहित्य कृतीच्या अणकारा वरवीं मुखार येवचें अशीय आस्त हांगा उक्तायन दिसता.

**संदर्भ:**


१) *समाज आणि साहित्य,* सदा कऱ्हाडे, लोकवाङ्मय गृह, मुंबय १९९९.

२) 'कोंकणी साहित्य - वाचप्याची अपेक्षा आनी पूर्तताय', दत्ता दामोदर नायक, कुळागर, दिवाळी १९९६.

३) 'दोन वाटचिऱ्यांच्या संदर्भात कोंकणी कादंबरी', किरण बुडकुले, कुळागर दिवाळी, १९९७.

४) 'Inquisition: Theme of New Konkani Novel' Nandakumar Kamat, The Navhind Times, 3rd May 2004.

५).'घट्ट विणीचा कसदार कथाकार - महाबळेश्वर सैल', लक्ष्मण साईल, नवप्रभा.

६) 'कथेंत प्रतिभा पणाक लागता पूण प्रतिभेची दीर्घता नासता', महाबळेश्वर सैल. सुनापरान्त, २२ मे, १९९४.

७) 'काळी गंगा', स्वगत, रवीन्द्र केळेकार, नवप्रभा.

८) 'महाबळेश्वर सैल - नांव एका कथा विश्वाचें', नागेश करमली, सुनापरान्त, ९ जानेवारी १९९४.

९) आनंद वर्टी हांणी महाबळेश्वर सैल हांकां बरयल्लें पत्र, २७ ऑक्टोबर, १९९९.

१०) 'अदृश्ट आनी अरण्यकांडः सैलाल्या भावविश्वांतल्यो जुवळ्यो नवलिका', किरण बुडकुले, *शतकान्तिका,* बिम्ब प्रकाशन, २००९.

## कांय निरिक्षणां

# 'अच्छेव'चे दुसरें उजवाडावणे निमतान

**प्रकाश वजरीकार**

अच्छेव कादंबरी गोंयच्या बदलपी समाजीक, अर्थीक जिणेचें वास्तवा कडेन सामकें लागीं व्हरपी चित्रण करता. लेखकान कादंबरेंत चित्रायल्ल्या कोळंब गांवांतली जीण वास्तवांत दिसता. अस्तित्व होगडायल्लो, दिशाहीन समाज लेखक उबो करता. संस्कृतीक अध:पतनाची वळेरीच हे कादंबरेंत वाचूंक मेळटा. गोंय मुक्तताये उपरांत गोंयच्या समाज-जिवितांत जे बदल घडले त्या बदलांचो रासवळ परिणाम भोगपी मनीस हे कादंबरेंत आयला. जिवीत पद्धत, धर्म, राजनीत, समाजीक विद्रोहाच्या सुरांची सुलूस ही कादंबरी दिता. गांवांत आयिल्ल्या शंकराक शाणू मिना खणीक लागून जावपी प्रदुशणा आड वर्तमानपत्रांतल्यान आवाज उठोवपाची सुचोवणी करता. त्या तांच्या संवादांतल्यान समाजीक अन्याय, असमानताये विशींचो धांवतो उल्लेख येता. पूण हो आवाज संघटीत शक्तीच्या रुपान हे कादंबरेंत उठना हेंवूय म्हत्वाचें. तातूंत आबूच्या रुपान समाज-पुरूश दिसलो तरी सामुहीक पुरुशार्थाचो अभाव आशिल्ल्यान कोण आवाज उठयतलो असो प्रस्न येता. सगळीं छापील प्रसारमाध्यमां मिनेरांच्या हातांतलीं जाल्यांत ही अगतीकतायूय दिसता. समाजाचें मानसशास्त्र अभ्यासतना समाजांतले कितलेशे घटक पळोवंक मेळटात. समाजांतलो आदर्शवाद, यौनवाद, प्रयोगवाद, धर्म, शिक्षण, पर्यावरण, लोकनीत, लोकसंकेत, रुढी-परंपरा, लोकगितां-उत्सवांनी भरिल्लो लोकवेद आदी घटकांचो प्रभावी वापर केल्ल्यान हे कादंबरेचें खाशेलेपण मतींत भरता. कादंबरेंतलो मनीस तळागाळांतलो. ताका लागून *अच्छेव* 'कशेंय तरी जगपाक जाय' हें सूत्र मुखार हाडटना अनितीचो पुरस्कार, करपी मुल्यवेवस्था दाखयता. समाजांतली विकृती, वासना, सूड, निर्शेवणी, एकमुळेपण दाखयता. अशे तरेचें समाजचित्रण पयलेच फावट कोंकणी कादंबरेंत आयलां. हांगा मुल्यांचो संघर्श जाता म्हणचे परस अनैतिकतायेचो अदीक पळोवंक मेळटा. समाज-वेवस्थाच कोंसळून पडिल्ल्यान जिणेंतली अर्थशुन्यताय हे कादंबरेंत पळोवंक मेळटा.

समाजीक संस्कृतीक पर्यावरणाचो न्हास *अच्छेव* कादंबरेंत दाखयला हें हे कादंबरेचें वेगळेपण. जिविता बद्दलची सैम-जैवीकशास्त्रीय नदर हे कादंबरेंत पळोवंक मेळटा. फकत विज्ञानीक तंत्रगिन्यानात्मक उपकरणां वा आवतां समाज सुदरूंक पावना. ताचे वांगडा काळाचें भानूय मनशाक आसूंक जाय असो विचार हे कादंबरेच्या माध्यमांतल्यान बरोवप्यान मांडला. अच्छेवांतलो मनीस आधुनीकताय आपणावन लेगीत अस्मितायेची राखण करपाक जाय हो विचार घेवन वता.

प्रादेशीक कोंकणी कादंबरी म्हण *अच्छेवा*चो मुजरत उल्लेख जावपाक जाय. एकाद्र्या वाटारांतली लोकजीण, संस्कृताय, परंपरा, रिती-रिवाज, समूहजीण, हातूंतल्यान निर्माण जाल्ल्यो समस्या, जिवीतनाट्य हांचें दर्शन घडोवपी कादंबऱ्यांक प्रादेशीक कादंबऱ्यो म्हणचें हें विधान *अच्छेवा*क लागू जाता. भुगोलीक खाशेलपणां, सैम, समाज जीण म्हण राजकी, कुटुंबीक, अर्थीक, शिक्षणीक, भास, संस्कृताय आदी संदर्भ हातूंत येतात. समाजीक पर्यावरणाचें भान करून दिवपी ही कादंबरी. शेतां-भाटां, कुळागरां, उदक-पाणी, बीं-बियाणें, गोरवां-वासरां, काळ, रुतू, हवामान, भुगोलीक, संस्कृतीक वाटारां प्रमाण लोक-जिणेचें दर्शन कादंबरेंत घडटा. गोरवांचो लेगीत सुक्षीमपणान वापर लेखक करतना गोंयचे गोरूं संस्कृतायेचो दिश्टावो घडयता. ताका लागून गोरवां-वासरांचो उल्लेख लेगीत प्रभावी थारता. कोंकणी भाशे वरवीं प्रगट जावपी गोरूं-संस्कृताय लोक-जिणेचें खरेलें दर्शन घडयता. हें भूषण भावे हांचें मत ह्या विशया संबंदान म्हत्वाचें दिसता. उद्देगीकरणाक लागून गांवचे मूळ स्रद्धेक कश्यो वेरो वचपाक लागतात ताचेंय चित्रण ही कादंबरी करता. *अच्छेव* हें फकत शब्द चित्रण न्हय तर ती मुल्यांची निर्मणी करपी एक अवस्था अशें म्हाका दिसता.

**साहित्य नियाळ**

सैमाचें रुतुचक्र लेखकान केळयलां. स्वता लेखक *अच्छेवां*तलो एक घटक कसो वावुरतना दिश्टी पडटा. भौस, भास आनी मातये कडली ताची जोडिल्ली नाळ हे कादंबरेची खराय आनी खोलाय दाखयता. हे मातयेचें भान करून दिवपाचो, तशेंच मातयेचें रीण पावोवपाचो यत्न म्हळ्यार ही कादंबरी अशें म्हणूं येता. *खण खण माती* हे सारकेल्या नाटकांतल्यान समाजाक ताचें दायज दाखयतनाच संस्कृतायेचे अवनितीचो अच्छेव दोळ्यां मुखार दाखोवन जिवीत मुल्यांचो पुरस्कार लेखक करता. कलावंत ह्या नात्यान ताणें कोंकणी अस्मिताय साहित्यांत हाडली. एके पिळगेची अधोगती हे कादंबरेंत पळोवंक मेळटा.

लेखक आनी मनीस म्हण पुंडलीक नायकान जें जिवीत चित्रण अणभवलां ते ताणी *अच्छेवां*तल्यान मांडपाचो यत्न केला. सामाजीक चित्रण करतना फकत ठरावीक भौसाचेंच चित्रण न्हय तर भौस संस्कृतायेंतल्या मनशांचेंय चित्रण ते तांच्या वृत्ती-प्रवृत्तीं सयत करतात. *अच्छेवां*तलो काळ आपली एक मान्यताय घेवन येता. उद्देगीक मळार जी क्रांती जाली ताचो परिणाम रासवळ मनशाचेर कसो जाता ताची देख हे कादंबरेंतल्यान घेवंक मेळटा. *अच्छेव* हें एक प्रातिनिधीक रूप. ह्या रुपांतल्यान एक भितल्लो संघर्श पळोवंक मेळटा. आबू आड गांव, गांवा आड पराजीत शंकर, नानू-पंडरी, केंसर-रुक्मीण, बाबुसो-देवकी, स्रद्धा-विज्ञानीक क्रांती, सैम-मिना खण अशीं रुपां हो संघर्श घेता. केन्ना केन्ना तो तेढ निर्माण करता. ताचे वायट परिणाम समाज भोगता. राजकी वेवस्थेचो, अधिकार-सत्तेचो गैरफायदो घेवन मिना खणींच्या नाड्यार लोकतत्वा आड वचपी आनी पर्यावरणा वांगडा, समाजीक पर्यावरणाचो इबाड करपी कोळंबांतलो सरपंच, नानू वांगडा इश्ट वा सांगात्याची भावना घेवन एकठांय रावपी क्रिस्तांव इश्ट मानुयेल, नानूचे बदलिल्ले नैतीकतायेच्या साक्षात्काराच्यो भगलो

मारून तेसांवान नानूची भयण केंसराक पळोवन व्हरता तो संघर्श, अशे संघर्शाचे कितलेशेच दाखले हे कादंबरेंत दिसतात. ह्या संघर्शाच्या काळांत कोळंबा कडेन सभ्यतायेन पळोवपी गांवा भायले - पलतडचे दोग मनीस म्हत्वाचे दिसतात — वळवयचो सावळो मास्तर आनी जयदेव जशे सभ्य दाखयल्यात तेच प्रगल्भतायेन पलतडच्या गांवचो बाबुसो कोळंबाक कीड लागिल्ले भशेन लागता. तोच गांवच्या पंढरीक, रुक्मीणीक, मिना खणीर कामाक वचपाक, मिना जोडीक प्रवृत्त करता.

अस्तित्ववादी विचारप्रणालीचो संदर्भ लावन *अच्छेवां*तल्या बाबुसो, मानुयेल, नानू आदी पात्रांचो अभ्यास करूं येता. मुल्यहीन सुखासीन वृत्ती जिविताची घटमूट बुन्याद घालूंक शकना ही विचारसरणी हे कादंबरेच्या माध्यमांतल्यान सांकेतीकपणान लेखकान मांडल्या. तीन पिळग्यांचें चित्रण ही कादंबरी करता. साहित्यकृती म्हण तिचें खाशेलेपण वाचप्यांच्या मनांत भरता. *अच्छेवा*च्या माध्यमांतल्यान कोंकणींत पुंडलीक नायक हांणी अर्विल्ले कोंकणी कादंबरेचें मुळावण अदीक घट केलें अशें आमच्यांनी म्हणूं येता. साहित्यकृती म्हण तिचें मोल व्हड आसा.

*अच्छेवा*च्या माध्यमांतल्यान पुंडलीक नायक हांणी कोंकणी भास, साहित्य आनी संस्कृतायेचें मळ व्हड केलां. कादंबरेंतलें वातावरण फकत मनोरंजनाचो घटक म्हण येना. तें जिवें तट्टटीत जावन उबें रावता. तातूंतल्यान घडणुको फकत कपयाळीं म्हण येवंक नात. कथानकाचो वेगळावं नजो असो वांटो म्हण त्यो आयल्यात. देखून *अच्छेव* सपनांनी रंगपी जगपी वा सपनांनीच सोंपपी कादंबरी जायना. *अच्छेव* अस्वस्थ करता हें तिचें खाशेलपण. कोंसळपी संस्कृतायेचो कलात्मक रितीन घडयिल्लो आविश्कार जिवीत मुल्यांचो सोद घेवंक लावपी अशी ही कादंबरी.

अर्थीक जोडीक मिनाचो संदर्भ लागिल्ल्यान मनीस कसो बदलत गेला ताचो पट्टो हांगा पळोवंक मेळटा. आंतरराष्ट्रीय कबलातींचो प्रभाव भारताचेर कसो पडलो, हांगा मिनाच्या माध्यमांतल्यान जपान सारकेल्या देशाक कसो वयर काडलो ताचोय शास्त्रीय अभ्यास करपाक प्रवृत्त करपी अशी ही कादंबरी. शेतकी संस्कृतायेंतले जोडी कडल्यान मिना खणीचे चड जोडीकडेन भुल्लुसून गेल्लो, आबूज जाल्लो कश्ट करपी मनीस हे कादंबरेंत दिसता. *अच्छेवां*तलो काळ साधारण गोंय मुक्ततायेच्या हुंबऱ्या वेलो आनी उपरांतचो, लोकराज्यांतलो काळ. सामाजीक बदला वांगडाच उद्देगीक मळार जावपी विज्ञानीक क्रांती, नव्या मशिनांचो सोद, मानायपणाक मेळपी मशिनांचो पर्याय आदी संदर्भ *अच्छेवांत* येतात. मानायपण चालूच उरून आमकां जोडपाक मेळपाक जाय ही आस्त दवरून स्रद्धेन तव्या वयल्याक बोकडो कापून मान-देवस्पण करपी भौस कसो भरकटत गेला तें कळटा. हे जोडीक तात्वीक बसका ना. रेवेंत मुतिल्ले भशेन जोड खंयचे खंय नाच्च जाता. वेसनांय जातात तीं कामाचे गरजेंतल्यान अशी धारणा घेवन जगपी समाज हांगा दिसता.

मिनांच्या उद्देगाच्या मुळां कडेन वतना, एके कडेन मातयेची रास जाता तेन्ना दुसरे कडेन फोंड तयार जाल्लो आसता ही जाणवीक निर्माण करून दिवपी ही कादंबरी. तेच वांगडा, मीन काडटात तें खंय व्हरतात हाचे विशीं पडून वचूंक नाशिल्लो हाताच्या पोटा वेलो समाज बाबुशाच्या रुपांतल्यान दाखयतना, मीन व्हरतात ते फोंडांत व्हरनात, आमकां कित्याक पडलां अशा आशयाचें मत हो समाज उकतायता. जोडी मुखार कांय खिणांचें कुड्डेपण दाखयतनाच ही जोड आपले परंपरागत शेतकी संस्कृतायेच्या नाड्यार चल्ल्या हाचें भान आसुनूय कानार केंस ओडपी समाज *अच्छेवां*त दिसता. देखून मिनाखणींक लागून कोळंबाचो कितलो फायदो जालो ताचे परस कितल्याश्या पटींनी जपान सारकेल्या भायल्या देसांचो फायदो कसो जालो ताचोय तुळात्मक अभ्यास करूं येता. खास करून दुसऱ्या म्हाझुजा उपरांत (१९३९-१९४५) जपानाक स्टील उद्देगा खातीर भारता कडल्यान, पर्यायान गोंया कडल्यान, व्हडा प्रमाणांत मीन निर्यात जालां. मिनाचे बाजारपेठेर १९७० ते १९९० च्या काळांत जपानाचो शेक चलतालो. संवसारांतल्या वट्ट उत्पन्नांतले ५० टक्के इतलें मीन फकत जपानाक निर्यात जातालें. *अच्छेवां*त मिनाच्या उद्देगाचे बदलपी मशिनरींचे उल्लेख आयल्यात. ह्या बदलांक लागून मनशाचो उपेगूय बदलपाक लागलो. शाळा मास्तर आनी मिनाचो मास्तर असो वेगळेचार जावन सावळो मास्तर मरता तेन्ना तो कोण कसलो मास्तर हें वळखुपी समाजूच उणो पडटा. मिनाचो मास्तर, ताची अनैतीकताय आनी शाळा मास्तराची नैतीकताय हो वेगळेचार हे मिनाचे जोडीक लागुनूच जावपाक लागलो. हातांत घोळपी पयशांचें वेवस्थापन करूंक भौस उणो पडटा. जोडीचो उपेग फकत खायात, पियात, भोगात, मजा मारात असो करून घेवपी समाज शेतकी संस्कृतायेंतलो रोव पिकाच्या रुपान फुडाराक राखून दवरपाची निती वेवस्था व्हगडावन बसता. ताचें चित्रण ही कादंबरी करता. अर्थीक घटकांचो व्हड प्रभाव आनी परिणाम *अच्छेवांत* आयला. तो *अच्छेव* सैमाक खाता. मनीसपण वगडायता. संस्कृताय शेंवटायता. ती गतीच इतली वेगान येता, त्या वेगा मुखार कोणूच तग धरूंक पावचोना काय कितें असो भंय निर्माण जाता. ताका लागून नाट्याचे गती प्रमाण *अच्छेवा*चो शेवट जाल्लो दिश्टी पडटा.

ज्या मिनाच्या वेव्हाराचो मुखेल संदर्भ *अच्छेवांत* येता त्या वेव्हारा विशींचेंय निरिक्षण केल्यार अशें दिसता, मिनाचो वेवसाय गोंयांत खूब म्हत्वाचो. भारतांतले वट्ट मिनाचे निर्यातींतलें ६० टक्के मीन गोंय निर्यात करता. गोंयांतल्यान ही निर्यात १९४७ वर्सा सावन सुरू जाल्या. रोजगारा वांगडाच तिणें आमकां विदेशी चलनूय व्हडा प्रमाणांत दिलां. मिनैरांनी ह्याय जोडींच्या म्हालवजाचेर अतिरिक्त जोड भोंवडे उद्देग, वीज निर्मणी, छापील प्रसार माध्यमां, शिक्षण आनी भलायकी आदी मळांचेर आपणालो प्रभाव दवरला. पुर्तुगेजांच्या तेंपार मिना खणीं पासत लिजांचेर परवाने दिवपाक सुरवात जाल्ली. पुर्तुगेजांची राजकी सत्ता चालू दवरपाक आदार करतात म्हण डॉ. टी. बी. कुञा हांणी मिना खणींच्या कंपनींक दुशण दिलां. गोंय मुक्तताये उपरांत लेगीत गोंयची राजसत्ता मिनैरांच्याच हातांत उरल्या अशें मत्त कांय अभ्यासक मांडटात.

निमाणें, भौस हो *अच्छेवा*चो विशय जाल्ल्यान कोंकणी साहित्याचे भोवजनीकरणाचे अवस्थेंत हे कादंबरेक खूब मोल आसा अशें म्हणचें पडटलें.



## .... नॅटवर्क बिझी

### राजय पवार

भाव-भयण.
बायल-भुरगीं
शेजारी-पाजारी
इश्ट-सोयरे
लागींचे-पयसुल्ले...
...सगळ्या संवसारा कडेन
दीस-रात झांकतां हांव फोनाचेर
वरांचीं वरां... वर्सांचीं वर्सां
आनी अचकीत म्हाका
म्हजीच याद जाता
...आरे! कितलींशींच वर्सां जालीं
हांव म्हजे कडेन उलोवंकूच पावलों ना!
...मागीर हांव म्हज्याच मोबायला वेल्यान
म्हाकाच फोन लायतां
... पूण लागना कसोच
ऑल द टायम... ऍंगेज्ड!
...कूं कूं कूं.... नॅटवर्क बिझी!

दीस-रात ट्राय करतां
म्हाका फोन लावचे खातीर
...पूण म्हजो फोन लागचे आदींच
कोणालो ना कोणालो तरी कॉल येताच
आनी हांव कनॅक्टूच जावंक पावना म्हजे कडेन

हरशीं... लोकल... नॅशनल... इंटरनॅशनल
सगळे नंबर खिणांत कनॅक्ट जातात
... आनी म्हजोच नंबर
कित्याक बिझी काय ???...

पूण जेन्ना कनॅक्ट जातलों
हांव म्हजे लागीं
तेन्ना मन भरून उलोवन घेतलों
... म्हज्यो भावना, म्हजीं सपनां
शॅर करतलों म्हज्या काळजा कडेन
... मात तेन्ना बॅलन्स उरल्यार पुरो
मनभर उलोवंक... डिसकनॅक्ट जाय मेरेन!

## प्रसन्न पाचवी गाज

### परेश नरेंद्र कामत

धुंवाधार पावसान
तापिल्ले मातयेक
घाली
गाढ मिठी.
मिठी: ओली ओली;
मातयेच्या काळजाक
खोल मेरेन
वेंटाळत गेली.

मातयेच्या काळजांत
फुल्लो विलोद;
माती भुल्लुसली.

मातयेचे शिरेशिरेंत
हुळहुळ्ळी.
हरयाळी;
माती जाली
पाचवी पाचवी.

पावस झिमझिम
झिमझिमत रावलो.

मातयेक घाल्ली
मिठी
भिजत
आनीकूय गाढ
प्रगाढ
जायत रंगत रावली.

थेंब थेंब
पावसाचें उदक
गळत रावलें
निस्तत रावलें
निस्तत रावलें
मातयेच्या
गर्भकुसव्यांत.



गिमाच्या धगांत
मातयेचे कुशींत
घुस्मटत
झेमेत पडिल्ले बियेक
आयली
तट्टटीत जाग.

कल्ल उसयत
बियेन घेतलें अचकीत
एक स्वासमेकळें
पाचवेंचार आवर्तन
त्या आवर्तनांत
घुमघुमत रावली
दिशांनी
एकसारकी
युगानयुगां
बियेच्या अंतर्मनाची
प्रसन्न पाचवी गाज



# Promoting higher education

11 Scholars from Goa pursued higher studies under Goa Scholar Scheme

- 13 colleges extended finance under the Interest Free Loan scheme for infra structure development
- Special B. Ed programme for teachers of special children commissioned
- Scheme for free education to Girl Child proposed.
- 3384 computers distributed under cyberage scheme.
- Work of Quepem College library building in progress

Issued by:
Department of Information and Publicity
Government of Goa



Working towards a Secular & Prosperous Goa

Published & Printed by Dr. J. B. Sardesai, owner of JAAG Monthly, 201 B, Saldel Apts., Rua de Saudades, Pajifond, Margao, Goa, and Printed at Rutu Offset Printers, Volvoi, Ponda -Goa. Editor : Madhavi Sardesai